काणियो, पोकाणां, इत्यादी आटापून आस्चो सर्वांचा रुचीक तृप्ती दाकंवृचांत 'राक्णो' हेरां थंय साहित्याची आभिरूच आनी हुमेद किर्लौंक आनी फुलोंक सक्लो. 'राक्णो' पत्र मो. सिल्वेस्तर मिनेजाचा संपादक्पणांखाल आस्ताना कोंकणी वाचप्यांक एक दादोस्कायेचें जेवाणशें जाव्न काळजां आनी मनां उल्लासितालें. अशें ताका सबार जण होगोळसीताना थोड्यां थावन कोडू ठीकायी मेळताली. 'राक्णो' पत्रा मुखांत्र सबार तर्नाट्या बरव्प्यांक प्रोत्साह आनी उत्तेजन मेळतालें. 1949 इस्वेंत श्री जो.सा. आलवारिसान आपली पयली कृति जावन 'आशेल्ल्यांक निशेल्ले' म्हळ्ळो नाटक आर्पिलो. कोंकणी नाटक सभेन तो खेळोन दाकय्लो. फा. सिला मिनेजान ती कृति वाचून विशेश होग्ळिक ताका दिली. आनी त्या कादंबरिचें नांव बदलून 'आंजेल' म्हळ्ळें सोभीत आनी मट्वें नांव दिलें. ही एक आदर्श क्रीस्ताव कुट्माची काणी जाव्न सबारांचा होग्ळिकेक पात्र जाव्न त्याच लेखका थावन सबार बूक कोंकणी वाचप्यांक मेळ्ळे.

हो महान लेखक संपादक्पणा थावन 1955 इस्वेंत निवृत्त जालो तरी ताचा लिखणेक ताणे रजा आनी सुट्का दींवक ना. मेरी हिल्ल कोवेंतांत चापलेयन जाव्न आस्ताना आनी ताचा उपरांत कंकनाडी 'वियात्री' घरांत विशेव धेव्न आस्ताना ताणे आदल्याचाकी चड बूक बरयल्यात. हांचे पैकी दिस्पड्तो मिसा ग्रांथ, आनी कोंकणी-इंग्लिश शब्दांवळ - हे ताचा उतर प्रायेचा जाणवायेचें आनी आनभोगाचा भंडारार्ची फळां म्हण्येत. कोंकणी शब्द-कोश कोंकणी लेखकांक ताणे दिल्लें 'दायज' म्हण्येत. कोंकणी साहित्याक सबार वरसां थावन आसल्लें उणेपण भरती कर्न सर्व कोंकणी प्रेमींची आशा भागयली म्हळ्ळयाक कांयच दुबाव ना.

एक वात जळोन काबार जाताना ताचो प्रकास उणो जाता. पूण मो. मिनेज बापाचो बरपाचो दिवो चड आनी चड प्रकाशमान जाव्न ताचे थाव्न सबारार्नी ताचा लिखणेचो पर्जळ घेव्न आप्ल्या जीवनांत प्रख्यात लेखक जांव्क पाव्ल्यात. ताचा 74 वरसांचा प्रायेक चरित्रेचा 1968 इस्वेचा सप्टेंबर महिन्याचा 24 तारकेर 'कोंकणी साहित्याचो' 'कराळ दिवस' म्हण्येत. जाल्यारी ताचा अपार देण्या थावन उजवाडाक आयिल्लो सबार कृतियो साहित्य संसारांत उजवाड दिंवक सक्तेल्यो म्हळ्ळो आमचो भरवासो. तशेंच ताचा संपादक्पणावर्वी आमचा कोंकणी पत्रिकोद्यमाक मेळ्ल्लें मार्गदर्शन आनी ताणे काडल्लीं धैरादीक मेटां मुख्ल्या संपादकांक ताणें दिल्लें आदर्श जाव्न उर्तेलें, सदां उरों मो. सिल्वेस्तर बापाचो लिखणे दिवो.

1994 ह्याच मार्चाचा 29 तारकेर राकणो स्थापक संपादक जलमोन 100 वर्सां जालीं. सांगाताच हें वरस कोंकणी पत्रिकोद्यमाचें शतमानोत्सवाचें वरसयी जावनास्वें एक विशेशता जावनासा. देवाचा वरत्या मांडावळीन ह्यो दोनी शताब्दी एकाच वर्सा आचरण करचो संदर्भ मंग्ळूर्चा कोंकणी लोकाक लाबला. ह्या वीर कवी विद्वांस आनी

पत्रिकोद्यमीचो आमी मानान उडास काडून ताचा माग्ण्या बळान आमची कोंकणी भास फुलोन, वाडोन फळ दिताना आमीयी ताचा प्रेरणान आनी जिण्येचा उत्तीम देकीन आमचा तांकी भितरली सेवा आरंपूंक देव आमकां बरें मन, उदार काळीज, जाण्वाय आनी सोस्णीकाय लाभव्न आमचे मधें उत्तीम लेखक उदेंवदीत म्हण माग्यां.

राक्ण्याचा भाँगारोत्सवाचा अंक्यांत पिताजी मरिदास हाणे मो। सिल्वेस्तर मिनेज बापाक बोवच संप्या आनी ताचाच प्रासां-भरीत विशिश्ट शैलेन वाखणून एक कवन घड्लां तांतू मो. सिल्वेस्तर मिनेज बापाक 'कोंकणीक अलंकार', 'कोंकण्यांक अहंकारा', 'कोंकणी सि.मी. तारा' म्हळ्ळ्या उत्रांनी उलो केला. हीं नांवां ताका कोंकणी भास रूपिन केल्लो आनी ताका एक विशिश्ट रूप दीव्न बरंव्प्यांचा हातांत आनी वाच्प्यांचा तोंडांर सुडाळ गुंवोंक आनी व्हाळोंक साध्य जायशें, केल्लो एक शिलपी म्हण सांग्येत. हें सत रूजू करूंक 1938 इस्वे पय्ल्या 'दिर्वें' पत्राची भास आनी उप्रांत हाचा संपादक्पणार बरय्ल्या 'राक्ण्याची' भास तुलनात्मक रीतीन व्हरव्न पळेल्यार स्पश्ट जाता. जरतर ह्या एका-आयित्र काळार आमचा कोंकणी भाशेक पत्रा तसल्या आनी पुस्तकां तसल्या संपर्क माध्यमांक असलो लेखक आनी संपादक मेळोंक नातल्लो जाल्यार आमची कोंकणी भास, ताची लिपी आनी सब्द-संग्रह गुस्पडायेंत उरोन सारकी भास आतांचा रुपार उदेंवक साध्य जातेंना म्हण सांग्ल्यार चूक जांवचिना. कोंकणी पत्रिकोद्यमाचा शेंबर वरसांचा आवदेंतच मो। सिल्वेस्तर मिनेजान बरयिल्लीं लेखनां, फाय्स केल्लीं पुस्तकां बरयिल्लीं काग्दां, झरयिल्लीं पेन्नां आनी लिखणे खातीर खर्चिल्लीं वोरां लेक्ल्यार आमचा माय-भाशेक ताचे तितली सेवा आर्पिल्लीं व्यक्ति दुसरो ना म्हण आमकां रुजु जाता. त्याच पर्माणें आमचा क्रीस्तांव धर्माचा भक्तीक कार्यांक, मिसा-बलिदानांक, साक्रामेंताचो प्रयोग करचांत, कुटमाचा माग्ण्यांत आनी क्रीस्तांव शिक्षणांत तांणी माग्णीं, गितां, लिसांवां, संभाषणां द्वारीं ताचीं बरपां, आमचा समाजिचा विविध संस्कारानीं आनी मूल्या मूल्यांनी वापारूंक हाताक लागीं जाव्न मेळ्ल्ल्या वर्वीं आमचीं सर्व फेस्तां-पर्बो, संभ्रम-आचरणां, आनी जमात्यो-सम्मेळनां अपूट कोंकणी भाशेंत चलव्न वरूंक साध्य जालां म्हळ्ळें चिंताना, आमकां सर्वांक एका थराची दादोस्काय आनी तृप्ती भोग्ता तें खंडीत जावनासा.

मो। सिल्वेस्तर बापान केल्ल्या महत्कार्यां पैकी ताणे केल्ली साहितीक सेवा वा वाव्र एक विशेश मट्टाचो, ताचा 73 वर्सांचा जिण्येंत 56 वरसां ताणे साहित्यांत खरचिल्यांत म्हणताना ह्या वाव्रांत ताची तकली आनी लिखणी कितली झरयल्यागी म्हणोन आमकां खचीत जाता. 1944 इस्वेंत ताचा याजक्पणाचा रुप्योत्सवा दिसा तवळचा धर्माध्यक्ष वितोर फेर्नांदान ताका 'कोंकणी-वीर विद्वान' म्हळ्ळें बिरूद दीवन ताचा कपालार पाचवो कुरोव दवरलो. असल्या महान विद्वांसाची कीर्ती रोमाक सैत पावोन 1961 इस्वेंत पाप सायबा थावन ताचा वाव्राक होग्ळीक मेळोन ताका 'प्रीवी चेंबर्लेन' म्हळ्ळो गौरव दीवन ताका

मोन्सिञोर' केलो. हें सर्व गौरव ताका फावो जाल्लो म्हण कोणयी ओपतात. इतल्या पुरस्कारांक पात्र जाल्लो मो। सिला मिनेज बाप सदांच खालतो जाव्न उरलो.

## जोन मरियाण मिनेज बाप - दुसरो संपादक

मा. जुवांव मरियाण मिनेज 'राक्णो' पत्राचो दुसरो संपादक. हाणे 'राक्ण्याचे' ध्येय संप्रदाय राकोन वेले. मात्र न्हंय, उजाळायले आनी पर्जळायले. 'राक्णो' पत्रा संगिंच, 'आमची माय' आनी 'आंज' पत्रांयी संपादल्ली ताची श्याती आनी ख्याती इतली तितली न्हंय - हाच्ये शिवाय रेतिर्‍यो दिंवचांत, प्रवचन कर्चांत सदां तयार आसल्ल्या ताका केदाळारी आपोवणी येतालीं. तो एक मरियाळ भक्त जावनासल्ल्यान दियेसेजिचा 'मरियाळ लीजनाचो' केंद्रीय दिरेक्तोर जाव्न वावुर्तालो. इतल्या सर्व राटावळीं मोदें कोडियाळबैल प्रेस्साचो मेनेजर ताका केल्लो. आनी देव आपवण्यांचा केंद्रीचो दिरेक्तोर तोच जाव्न नेमक जालो. हीं सर्व थरार्चीं कामां हार्तीं घेव्न आस्ताना जाल्यारी साक्णो पत्र खळानास्ताना छापून वर्गणीदारांक पावित जातालें. पूण तांचा ह्या वाव्रांत वर्गणी बांद्तेल्यांचें लेकपाक दव्रुंक पाव्ट नातल्ल्या वर्वीं वर्गणी बांदिनातल्यांकी आनी ती बांदची रावल्यांकी ताची प्रती पावीत जाताली. इस्तिहारां जमो करूंक वेळ आनी सुयोग नातल्ल्या वर्वीं राक्णो पत्राचें आर्थिक मट्ट सारकें नातल्लें.

मा. बाप जुवांव मिनेज राक्ण्याचो संपादक जानवास्तना 'राक्ण्या'ची लांबांय आनी रूंदाय उणी केली. ताचा तेंपार 13 इंचां लांब आनी 8.5 इंचां रूंद आसोन आट पानांचो राक्णो प्रगट जांव्क सुरु जालो. 1958 इस्वे थाव्न 14.5 इंचां लांब आनी 10 इंचां रूंद जाव्न 6 पानांनी फाय्स जालो. थोड्या विशेश संदर्भांनी आट पानांयी आस्तालीं.

मा. जोन मिनेज बाप उपरांत मूडबिद्रींत आस्वा मौंट रोजरी आसर्‍याचो दिरेक्तोर जाव्न नेमक जालो. पूण ताणे राक्ण्याचें, आमची माय आनी आंज पत्राचें संपादक्पणा मुंदर्सुन वेलें. असल्या परिस्तितीन एकल्या मनशान ह्या सर्व कामांक मातें मार्न सांगाताच एक दियेसेजिचें पत्रयी चलव्न वर्चें म्हण्ताना ताचें काम कित्लें यशस्वी जाय्तगी, म्हण कोणायकी कळची संगत जावनासा. देकून 'भोर्‍या वर्य भरकुटी' दवरल्ल्या दियेसेजिचा व्हडिलांचा कुमकेक खालतीमान घालन ताका तांक आसल्ल्या रीतीन हें पत्र मोरानाशें जिवाळ राकोन वेल्लेंच एक आजाप म्हण म्हणाजाय. जरतर ह्याच तीक्षण मतिचा आनी विस्तार अनुभव आसल्ल्या देण्याभरीत याजकाचा हातांत 'राक्णो' पत्राची जवाबदारी मात्र वहिसुन दिल्ली तर, तो तांचीं आनी हेरांची देर्णीं उजवाडाक हाडूंक पेचाड्तो आनी 'राक्णो' ताचा काळारयी चड अभिवृद्धेक पावतो आसल्लो म्हळ्ळयाक दुबाव ना.

मा.बा. जुवांव मिनेज मुडबिद्रिया खेवादिचा केंद्राचो दिरेक्तोर जाव्न नेमक जाल्लो आस्ताना सैत, त्या पोंता थावन हर्येका हप्त्यांत दोन पावटीं कोडियाळबैल प्रेस्साक येवन,

राक्णो वर्गणीदारांक पावित करचें काम आनी प्रेस्साक मुख्ल्या हप्त्याचें काम दीव्न पार्टी वेतालो. त्या शिवाय ताका 'राक्ण्याचें' म्हळ्ळें एक दफतर व एक करणीक सैत नातल्लो जाल्ल्यान सगळ्या राटावळीक आपणें एकल्यानंच मातें मारिजाय पड्तालें. क्रमेण ताणें राक्ण्याचें संपादक्पणा सोडिजाय पडलें. असें जाल्ल्यान राक्ण्याचा वाडावळींत हें हंत सारक्या वाडावळीक अड्कळ जालो.

## मो. दोतोर अलेक्सांडर फावुस्तीन सोज - तिस्रो संपादक

मंग्ळूर दियेसेजिचें अधिकृत पत्र जाव्नास्चा 'राक्णो' हप्ताळ्याक सुर्वेर थाव्न कळानास्ताना सुमार सत्रा वर्सां पर्यांत एक बळाधीक मूल्याफातर जाव्न कोंकणी भाशेचो वीर विद्वांस म्हण नांवड्ललो मों. सिल्वेस्तर (सिल) मिनेज संपादक जावनासल्लो. पूण दुसरो संपादक मा.बा. जोन मिनेज सबार राटावळीं मधें अडचोन आसल्ल्या वर्वीं ताका राक्ण्याचें काम सवकासायेन करूंक आवकास मेळोंक ना. अशें राक्ण्याची अभिवृद्धी सारक्या रीतीं जाय्नातल्ली पळेल्ल्या तीक्षण मतिचा मो. अलेक्सांडर सोज बापान तवोळचा धर्माध्यक्ष दो. रैमुंद दोमेला लार्गीं राक्णो पत्राक एक योग्य संपादक नमियारून ताचा कामा आनी अभिवृद्धी थंय चड गमन दीजय पडता म्हण सांगल्लें. पूण त्या वेळार याजकां पैकी पत्रिकोद्यमांत तर्बेती जाल्लो कोणी नातल्ल्या वर्वीं तें काम मुंदरून गेलें.

आमचा क्रीस्तांव लोका थैं भारतीय संस्कृती थंय संगीत, नाटक, नृत्य आनी चित्रकलेची वळक, जाणवाय आनी अभिरूच चडय्जाय म्हळ्ळ्या महान उद्देशान कलाभिमानी आनी कलाभिरूच वरत्या मापान भरोन आसल्ल्या मो.दो. अलेक्सांडर सोज बापान दियेसेजिचा मट्टार 'एक संस्कृतीक हपतो' (Cultural Week) संभ्रमान आचरण करुंक येव्जिलें. थोडे जण याजक, थोड्यो धर्मभयणी आनी सबार युवजन ह्या वाव्राक सांगाता मेळ्ळे. एका वर्सा आदिंच ताची तयाराय कर्न 1960 इस्वेचा जनेराचा पय्ल्या हपत्यांत बोवच आपुर्बायेन 'सांस्कृतीक हपतो' चलव्न वेलो. सांस्कृतीक चटुवटिको मांड्न हाडूकं कोड्याळचा आनी कोड्याळाचा भाय्ल्या नांवाडदीक कलाकारांक हाडव्न युवजणांक आनी भुरग्यांक तर्बेती दिली. हाचे पैकी मा. ब्रोक एस.वि.डी. बाप एक्लो. हाणे मंग्ळूरांत्ल्या विद्यार्थिंक तरबेती दिली. कार्यक्रमां एक हपतो कळानास्ताना चल्लीं. सर्व लोकाक एक संस्कृतीक फेस्त आनी गड्द जेवाणशें जालें. मंग्ळूर दियेसेजींत पयिल्ले पावटीं तसलें एक कार्यक्रम तित्ल्या वरत्या संभ्रमान मांडूंन हाडल्लें जावनासा.

हाचे विश्यांत प्रचार करूंक आनी ह्या हपत्यांत चलयिल्या ह्या वरत्या कार्यचो फळ सरवांक मेळासो कर्न भारतीय संस्कृते थंय आसल्लो लोकाचो आशीर मनोभाव पैस कर्चा खातीर हाचोच एक विशेश अंको 'राक्णो' हप्ताळ्या मुखांत्र तयार करूंक

तवोळचा संपादकाक फा. जोन मिनेजाक फा. अलेक्सांडरान सूचन दिल्ल्या वेळार तें काम तुवेंच करिजाय म्हण संपादकान सांग्लें. असें ह्या सग्ळ्या सांस्कृतीक हप्त्या विश्यांत सग्ळी माहेत बरयताना त्या विशयाचोच एक 'विशेश अंको' तयार जालो. हो आपुर्बायेचो अंको समेस्तांक रुचलो.

मो. अल्सेन्द्र सोज तवळ उर्वा फिर्गजेंत सहायक याजक जावनासोन दियेसेजिचा युव संचालनाचो (CYM) केंद्रीय दिरेक्तोर जावनासल्लो. कोंकणी पत्रिकोद्यमांत तो विशेश अंको ताचे पयलें साधन जावनासल्लें. त्याच वर्सा जुलाय महिन्यांत भिस्प दोमेलान मो. अलेक्सांडर बापाक आपणा सांगाता जर्मनीचा म्यूनिक शहरांत चलल्ल्या 'एवकरिस्तिक कोंग्रेसा'क आपव्न वेलो. थंय थाव्न पाटी येताना मो. अलसेंद्र सोज बापान भिस्पालागी 'राक्णो' पत्राचे स्थिति गति विश्यांत उल्लेख कर्न ताची अभिवृद्धी कर्चें काम हातीं घेंवक योग्य व्यक्तिक नेमक करिजाय म्हण पर्तुन उडास केलो. तेदाळा भिस्पान 'तर तें काम तूंच कर' म्हण सांग्ले. पूण आपुण पत्रिकोद्यम नेणा म्हण सांगल्ल्या वेळार भिस्पान ताका जर्मनींत वर्सभर रावोन 'पत्रिकोद्यमांत तरबेती' जोड्नंच पाटीं येंवक आदेश दिलो. अलेक्सांडर बाप जर्मनींत आस्तानांच 'तुका राक्ण्याचो संपादक' नेमला म्हण भिस्पान पत्रा मुखांत्र तिळसिलें. पत्रिकोद्यमाची जाण्वाय खाली बुकांत्ली जाव्न आसानास्तां ती कार्याळ थराची जांवचा खातीर जर्मनीचा जाता तित्ल्या पत्राचा संपादकांक भेट कर्न, तांचा कार्यालयांक भेट दीवन पत्र चलवन वर्ची रीत, आनी ताचें आडळतें संप्या थरान चलवन वर्चें विधान आनी माहेत जोडली. असें भेट केल्ल्या वेळार थंयचा एका संपादकान अशें सांग्लें "तु संपादक जाताना ही तांबडी लेखणी सराग आनी धाराळ थरान लेखनांचेर प्रयोग कर; तवळ तुजें पत्र उंचल्या मट्टाचें जाता." हीं उत्रा आपल्या संपादकपणाचा काळार सारक्या रीतिन प्रयोग कर्न 'एक धैराधीक संपादक' म्हण तो नांवाडलो. ताचा काळार राक्ण्याचें मट्ट सुदार्लें आनी 'राक्णो' आधुनीक आनी प्रगतिपर पत्र जांवक पावलें.

1961 इस्वेचा आगोस्त महिन्यांत ताणी 'राक्णो' पत्राचें संपादक्पण वहिसुन घेतलें. पूण ताचो आडळतेदार आन्येक्लो आसल्ल्यावर्वीं थोडे महिने आप्ल्यो नव्यो अलोचन्यो आनी तर्बेती विधानां वापारूंक पुर्तो आवकास आनी प्रोत्साह लाबोंक ना. अशें जाल्ल्यान राक्णो पत्रांचें आडळतें ताणेंच वहिसुन घेजाय पटलें. 'राक्णो' पत्राक एक दफतर आनी तांतु गर्ज आसल्लो आधुनीक मट्टार ओदग्सुन दींवक मो. अलेक्सांडर बाप कारण जाव्नासात.

राक्ण्याची परिस्थिती तवळ बोवच अधोगतीक देंवल्ली. राक्ण्याचा वर्गणीदारांचा आनी प्रसाराचा पट्टेर केवल 2,000 नांवां मात्र आसल्लीं. सबारांक वर्गणी पर्तुन बांदिना जाल्यारी कायाम 'राक्णो' प्रति पावित जाताली. हें सारकें कर्न वर्गणी बांदल्ल्यांचा नांवा

सागाता त्या दिसाची तारीक बरव्न तांची वर्गणी संपताना तांकां प्रति धाडची बंध केली. अशें करताना सबार जणांचा उचंबळाये मधें तरी, संपादकान धैरान मेट काडिजाय पटलें.

संपादक जर्मनींत आस्ताना सबार कथोलीक पत्रां प्रगट्चा आनी विशेश जाव्न हप्त्याळीं पत्रां प्रगट्चा संपादकांक भेट कर्न तांचे थावन जमय्लेले विशय आनी मेळल्लो आन्भोग विशिश्ट रीतिचो आनी उंचल्या वर्गाचो म्हण सांग्ता. जर्मनीचा लोकाक पत्रां आच्ची अभिरूच आनी आमचा भारतीय लोकाचा अभिरुची मध्धें फरक आसा। तांचे सांगाता कथोलिकांची अभिरूच तुलन कर्न पळेताना हस्ती आनी उंद्रा मद्लो फरक दिसोन येता म्हण संपादक अलेक्सांडर बापाची अभिप्राय. पूण थंयसर जोडल्लो अनभोग आमचा परिस्तितीक लागू कर्न चड न्हय तरी थोडें पुणी सुधारण आमच्या समाजिंत हाडूंक साध्य आसा म्हळ्ळें आशा किरण मानाधीक संपादकाचा मर्तीत गूंडायेंत रोंबल्लें जाल्ल्यान त्या अभिवृद्धेचा वाटेन मेटां काडूंक दृड मन आनी उत्तेजन ताका मेळ्ळें.

## मो. अलसेंद्र सोजान हातीं घेतल्लीं सुधारणाची कामां:

तवळ मंग्ळूर्चा कोंकणी कथोलिकां थंय लेखनां, कवनां काणियो बरंवची उर्बा वोवच थोड्या जणां थै मात्र आसल्ली. तसें जाल्ल्यान राक्ण्यार फायस करूंक योग्य जाल्लीं लेखनां, कवनां, काणियो खळानास्तना व्हाळोन येजाय जाल्यार बरव्प्यांक फावो ती तर्बेती दिंवची गर्ज म्हण दूरदृश्टेचा अलसेन्द्र बापाक झग्लाण्या तित्लें स्पश्ट झळकालें. देकून राक्ण्यार येदोळच लेखनां बरव्न आसल्लया आनी तसली उर्बा आसल्ल्या हेर थेड्या बरव्प्यांक सांगाता धेव्न एक बरव्प्यांची 'राक्णो मंडळी' जमयली. आनी शिक्पी सम्मेळ चलयलो. असें बरव्प्यां थंय नवो जीव आनी हुरूप चडलो. आमी सर्व एकाच उद्देशा खातीर वावुर्चे मनीस म्हळ्ळें चिंताप तांचे थंय खंचलें आनी असें राक्ण्याचीं लेखनां सुधारलीं आनी बरव्प्यांचो संखो वाडोन आयलो. हांची जमात तवळ तवळ जमताली आनी सुधारणाचे विशय तर्क वितर्क करताले.

राक्ण्याचें रूप आनी स्थिति बदलताना आमचा लोका थंय वाचपाची अभिरूच उटंव्क आनी आसल्ली जिवाळ करूंक एक आवकास आनी उत्तेजन मेळ्ळें. कोंकणी कित्याक वाच्चें म्हण चिंतून आसल्ल्या थोड्यां थंय राक्ण्यार फायस जाल्लीं उत्तीम लेखनां वाचून आपली जाण्वाय आनी आनभोग चडोंवक आतुराय उबजाली.

असें आस्तां संपादका मुकार उबो जाल्लो आन्येक समस्सो राक्ण्याची आर्थिक परिस्थिति सुद्रांवचो जावनासल्लो. ताचो खर्च ताचाच आदाया थावन सुटवन हेरां मुकार कुमकेक हात ओड्डायनास्ता आपल्या पायांचेर आपणेंच उबो रावोंक साध्य जालें. हाचे खीतीर जाहिरातां जमो करचें साधन सुरवेर थाव्नंच सुरु केलें. असें राक्ण्याचो प्रसार

चडताना तांतूं प्रसार जांवचा जाहिरातांचें मोलयी चडोन चडोन आयलें. जाहिरातां जमोवंचें काम तवळ (30 वर्सां आदीं) बोव कश्टांचें आसलें क्रमेण 'राक्णो' एक योग्य पत्र म्हणोन सर्कारान आनी उद्यमिनीं मानुन घेतलें. असें 'राक्णो' आप्ले पाकाटं फुलव्न उबोंक तयार जांवचा स्थितेर आस्ताना तवळ पर्यांत वाचप्यांचो संखो 2000 आसल्लो तो एकाच वर्सा भितर पांच हजार प्रतियांक मिळ्ळालो. 1963 इस्वेंत तो आपलो रुप्योत्सव आचरण कर्चा संदर्भार 8000 प्रतियो छापूंक पावलो. ह्या 'रुप्योत्सव' अंक्यांत 35 पानांचें जाहीरात आसल्लें राक्ण्याचें विशेश साधन म्हण सांगोन संपादकाक चेपें उक्लूंक फावो. ताचा पाटापाट मुक्ल्या वर्सा मंग्ळूर दियेसेजींत 'देव आपवण्यांचो हपतो' आचरण केलो. कोंकणी समाजीक देव आपवण्यांचो संदेश आनी सम्जोणी दींवक आनीं ताचें महत्व कळंव्क एक बरो आवकास मेळ्ळो. असें आस्तां राक्ण्यांत्ल्या लेखनांचें आनी वाचपी चडले. जाहिराता जायतितलीं मेळोंक सुरु जालीं. पानां चडयलीं. ऊंच विलायती पेपर हाडंव्क सरकारान परवाण्गी दिली. राक्ण्याचा दफतरांत कामेल्यांचो संखो चडयलो. बोव चड सम्जोणेचा आनी मायपाशी गुणांचा मो. अलसेंद्र बापान ताचा सांगाता काम कर्तेल्यां सांगता मोगान आनी सोस्णिकायेन आनी उत्साहान काम केल्ल्याचो परिणाम जाव्न कामेल्यां थंय तोच उत्साह आनी हुमेद प्रसार जाली. रेग्र आनी शिस्त सांबाळ्ल्या वर्वीं वर्गणीदारांक वेळार 'राकणो' पावीत जांव्क सुरु जालो. वर्गणीदार तलास करचा खातीर फिर्गजांनी भंवोन, लोकाक मेळोन संघ संस्थ्यांनी ताची वळक कर्न दीव्न वर्ती मिनत घेतल्ल्या वर्वीं ताची आर्थिक परिस्थिति सुधार्ली. आप्ल्या पांवलांचेर उबे रांवची सकत ताका मेळ्ळी.

मो.दो. अलसेंद्र सोज एक समर्थ बरय्णार. ताचा संपादकीय लेखनांनी राक्ण्याची ध्येय धोरणां उकलन धरल्लीं पळेताना आनी ताचा सुडाळ शैलेन बरयिल्ली रीत देक्ताना पत्रिकोद्यमांत ताका आस्ची शाती आनी धैर उटोन दिस्ता. ताचा संपादक्पणाचा काळार 'राक्णो' एक धार्मिक खब्रो वांटचें पत्र जाव्न मात्र उर्लेंनां. तांतूं देण्यांभरीत उमेद्वंत नव्या लेखकांचीं लेखनां, कवनां, पोकाणां, कथा, कादंबरी इत्यादी प्रगट जाव्न पत्रगारिकेची आनी कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची निस्वार्थ सेवा उदार मनान अर्पुंक लाग्ले. ह्या पत्रा वर्वीं त्या हप्त्याचो राजकीयाचो प्रमुख विशय दियेसेजीच्यो खब्रो, ऊंचर्लीं लेखनां इत्यादी प्रगटून साहित्याचें मट्ट सुधारण जाव्न आयलें.

सुर्विल्या वरसांनी 'राक्णो हप्त्याळें म्हण आरंभ केल्ल्या वेळार ताचो गात्र 45.5 X 28.5 सेंटिमीटर आसोन स पानांचो जावनासल्लो. दुसऱ्या महाझुजाचा वेळार न्यूस प्रिंटाचो खर्च आनी काग्दाचो आभाव आसल्ल्यान ताचो गात्र 24 X 6 सेंटिमीटराक देंवयजाय पडलो. 1942 आनी 1943 इस्वेंत चारच पानां करिजाय पडलीं. मो. अलसेंद्र सोजान ताचो गात्र 41 X 27 से.मी. आनी सरासर 14 पानांक पावयलो. काळाचा

बद्लावणे तेकीद आनी संपादकाचा शातेन केल्ल्या बद्लावणे वर्वीं हें पत्र दीसांदीस फुलोन, सोबोन, कोंकणींतूलें ऊंचूलें सातोळें म्हण नांवाड्लें. मो। अलसेंद्र बापान पत्रिकोद्यमाची सेवा 12 वर्सां वर्त्या मिनतेन आनी उर्बेन केली. ह्या आवदेंत राक्ण्याचो रुपयोत्सव संभ्रम चलव्न 27.5 x 21.5 सें.मी. गात्राचो आनी 200 पानांचो ऊंचूल्या लेखनांनी सजयिल्लो. 'रुपयोत्सवाचो अंको' मंग्ळूर कोंकणी लोकाक ताणें दिल्लें एक दायज जावनासा म्हळयार अतिशय जांवचेंना. ह्या संपादकाक देवाधीन मो। सिल्वेस्तर मिनेजान ताचा कामांत मोटो आधार दिला म्हण सांग्ता. संपादक्पणाचा सुर्विल्ल्या वर्सा कोंकणी बरंवचा रीति विश्यांत बरी माहेत ताचे थावन. प्राप्त जाली म्हण उपकारी मनान तो संग्ता.

कोंकणी भाशेचो फुडार बोरो आसा म्हण ताची आभिवृद्दी आनी ताचें भविश्य आनीकी सुगम करूंक कोंकणी बर्पां, नाटक आनी संस्कृतेचीं विविध रूपां व सुखां वाडय्जाय म्हण ताची सलहा जावनासा. आमचा शालांनी कोंकणी भास शिकंव्क सुरु करिजाय. कोंकणी दिवस आचरण करून कोंकणी सम्मेळ चड आनी चड चलव्न व्हरिजाय म्हण ताचें सूचन जावनासा.

मोन्सिञोर अलेक्सांडर सोज बापाचा संपादक्पणा खाल 'राक्णो' विविध नेमाळ्यां मधें रंगाळ पिसोळ्या बरीं सोभ्लें. ताचा विशाल मनोभावान आनी आधुनीक कालाचा तंत्राचा आनी यंत्राचा उपयोगान राक्ण्याचा छाप्यांत आनी साहित्यांत बद्लावण जालें. असें सग्ळया राक्ण्याचें रुपच बदल्लें. ताचा दूरदृश्टेन क्रीस्तांव पंग्डाचा आनी हेर धर्मांचा एकवटा खातीर आमचा लितुर्जींत क्रीस्तावपण मात्र नै भारतीयपण सम्मिळीत कर्चा उद्देशान 1960 इस्वेंत चलयिल्ल्या सांस्कृतीक सप्ताह ताचो उद्देश ज्यारी हाडूंक सकलो. हें नवीकरण पुर्तें न्हंय जाल्यारी थोड्या मापान आमचा लोकाचेर प्रभाव घालूंक सक्लां म्हळ्ळें सकडांचा गमनाक आयिल्ली संगत जावनासा. दो अलेक्सांडर सोजाचा बारा वर्सांचा संपादक्पणाचा आवदेंत 1963 इस्वेंत राक्ण्याचो रुप्योत्सव दबाजान चलयलो. अशें विशेश कारबारां चलव्न वेल्ल्या ह्या बहुमुख प्रतिभेचा आनी मुख्य जाव्न हेरांक सांगाता हाड्न उत्तेजन दीव्न, शिफारास कर्न, तोंड गोड कर्न म्हळ्ळे बरी सुसंघटीत वाव्र कर्न आडळतें चलव्न वर्चीं श्याती सर्वांक आसाना आनी ती धाराळ मापान मो. अलेक्सांडर बापा थंय आसल्ली म्हळ्ळ्याक दुबाव ना.

## मा. बाप मार्क वाल्डर 'राक्ण्या'चो चोवतो संपादक

जेजुचा कालार जेजूक पळेंवक म्हणोन रुकार चडल्ल्या 'जाकेवा'चो उडास हाड्चे तसलो 'मद्वया' दिगायेचो जावनास्चो मा.बा. मार्क वाल्डर बापाक जाणा आसल्ली 'मूर्ती चिक्कदादरू कीर्ती दोड्डु' म्हळ्ळी सांग्णी ताका सरती करचें सामान्य

जालां. ल्हान प्रायेर थावन स्नातकोत्तर सनद जोड्तावरेग कन्नड माध्यमांत शिकोन कन्नड साहित्यांत एम.ए. पदवी आपणायिल्लो फा. वाल्डर बाप इंग्लिशांत, कोंकणी, तुळु भासांनी सराग उलंवक आनी बरंवक जाणांत म्हण्ताना ताचें भाशेंचें सामर्थ्य कितलें ऊँच मट्टाचेंगी म्हण आमकां स्पश्ट दिसोन येता. पत्रिकोद्यमाचो सर्टिफिकेट कोर्स, ताणी बोंबयंत सैंट. क्षेवियर इन्स्टिट्यूट ऑफ कम्युनिकेशन आनी मैसूर विश्वविद्यालय थाव्न आपणायल्या हाचे शिवाय तो एक उत्तीम प्रसंगदार, अनुवादक आनी संयोजक जाव्नासा. खंचेंयी हातीं घेतल्लें काम ताचा खळमीत नातल्ल्या साधनान आनी मिनतेन आपणे आपेक्षिल्लो उद्देश आनी पोंत पावता वरेग सुगुमायेन करची श्याती आस्ल्ली व्यक्ति जावनासा म्हळ्याक निदर्शन जाव्न तो सेवा भेटंव्चा मूडाबिद्री वाराड्यांत क्यारिस्माटिक रेतीर बोव आपुर्बायेन आनी फळादिक्पणी चलव्न वेल्ली कीर्ती ताची जावनासा.

आसल्या विशेश सक्तेनी भरल्लो फा. मार्क वाल्डर साधार्न जाव्न कोणाय्चा दिश्टीक झळकाताना एक सादे, दुबळ्या नेस्णार आसोन ताचाच गूंड अलोचेनेंच मग्न जाव्न, सुड्सुडीत थरान चलचो, एक ल्हान याजकसो दिस्ता. पूण ताचेकडे उलव्न. तांची तर्क आयकोन ताचा जाण्वायेची गूंडाय जाणा जाल्लो ताचालागीं मार्गदर्शनाक आनी सलहा सूचनां घेंव्क पर्तुन पर्तुन येतालो. असलो एक विशिश्ट सक्तेचो बाप मार्क वाल्डर आमचा मंग्ळूर दियेसेजिचा पेर्मुदे फिर्गजेचा एक्कार ग्रामांत अक्टोब्राचा 22 तारकेर 1936 इस्वेंत जल्माल्लो. बरया भक्तिक आनी देव भिरांतेचा कुट्मांत वाड्ल्लो हो वेग्गींच याजकी तर्बेती जोड्न सांगाताच आपलीं विशेश देणीं पर्गट करूंक लाग्लो. असें बरो प्रसांगदार, लेखक, विमर्शक, आनी मार्गदर्शक जाव्न सबार फिर्गजांनी अपलो वाव्र आनी सेवा अर्पिल्लो सांगाताच 'राक्णो' हप्ताळ्या पत्राचो चोवतो संपादक जाव्न त्या पत्राक एक विशिश्ट रीतिचा सोभायेन आनी कलेन नेटव्न पत्रगारिकेचा आपोस्तालादी मुखांत्र कसली सर्व सेवा लोकाक अर्पिव्येतगी म्हण दाकव्न दिल्लो महान व्यक्ति म्हळ्ळयाक दूबाव ना. ताणे राक्ण्याचा सर्वतोमुख उदर्गते खातीर हातीं घेतल्लीं योजनां एकेकच आमचा दोळ्या मुकार दोवर्ताना देवान ताचेर वोतल्ली देणीं ताणे योग्य रीतिंनी वापरून तीं कशीं वाडयल्यांत आनी प्रसार केल्यांतगी म्हण आमकां स्पश्ट दिसोन येतेलें.

सुमार दोन वर्सांचेर मो. आलेक्सांडर बापाचा हाताखाल तर्बेती जोडून 'राक्णो' पत्राचें संपादक्पण ताचा नंतर वहिसून घेतल्ल्या मार्क वाल्डर बापान ताचा अभिवृद्दी खातीर सबार कामां हातीं घेत्ल्यांत. पयले सुवातेर, मार्क वाल्डर बापान 'राक्णो' पत्राचा बरव्प्यां थंय आस्च्या वैविद्यते थंय आप्लें गमन दिलें. तांचीं विशिश्ट देणीं प्रगट करूंक 'राक्णो' पत्रार संसारांत उबजोंचा सामाजीक समस्यां विशीं शिक्पी आनी अनुभव आसल्लयां सांगाता तर्क चलव्न सार्वजनीक अभिप्राय उबी कर्चें प्रयत्न चलयलें. तवळ पर्यांत 'राक्णो' एक धार्मिक पत्र म्हळ्ळो बिल्लो पूसून काडून ताका राश्ट्रीय कोंकणी सातोळ्याचें रूप

दिलें. असें केल्लया वर्वी ताका येंवचीं इस्तिहारां चड्लीं, आर्थिक स्थिति सूधार्ली आनी राक्ण्याची सोभाय चडली. ऊँचलीं आनी शिकोण्दायेक लेखनां, काणियो आनी कवनां व्हाळोंक सुरु जालीं. लेखकांचें संभावण चडैलें. असें 'राक्णो' पत्राच्यो प्रतियो थोड्या कारणा खीतीर 5,000 देवल्ल्यो पर्त्यान सात हजारांक चडवन ह्या पत्राक ताचाच पायांचेर उबो रांवची सकत मेळाशी केली.

वाल्डार बापान कोंकणी लेखक सम्मेळ चलव्न (वर्साक दोन व तीव दिसांचो) नव्या लेखकांक सार्के रीतिन तरबेती दिल्या. आद्ल्या लेखकां पैकी चा.फ्रा. देकोस्ता; ए.टी. लोबो, जो.सां. आल्वारीस, जे.बी. मोरायस, श्री गब्बू, रोनाल्ड पिरेर, डा. विल्यम माड्ता, एडी नेट्टो. स्वामी सुप्रिया, बा.जे.पी. नजरेत, बा.एल.ए. कुटिन्हो, मा.बा. माव्रीस पावला हांचीं बरपां राक्ण्यार सगग व्हाळाशीं केल्यांत. तर्न्या लेखकां पैकी, एड्विन जे.एफ. डिसोजा, मिकम्याक्स, ओस्टीन डिसोजा, हेरोलफियस, प्रताप नायक, डोल्फी कास्सिया, ज्यो लोबो, गाब्रियेल वास, एस.डि. कुन्हा, प्रशांत माड्ता, सिरिल माडता, एड्डी सिकेर, भाव मोनीस, भाव रुडोल्फ सोज, भाव आर्थर पिरेर, मुक्ति प्रकाश, सिल्वेस्तर डिसोजा, क्लीफर्ड डिसोजा हे प्रमुख जावनासात. असें जायत्या तरन्या आनी नव्या बरव्प्यांक पाट थापड्न, प्रोत्साह दीव्न मुखार काडल्ल्या वर्वी आज जायते बरवपी कोंकणी साहित्यांत झळकतात आनी आमचें साहित्य ग्रेस्त जालां म्हण्येत. ह्या दिशेन ताणे काडल्लें आन्येक मेट म्हळयार 1976 इस्वेंत थावन राक्ण्याचा लेखकांक व्हडल्या मट्टान संभावन दींवक सुरु केल्लें. असें लेखकांक तांचा कामाचो प्रतिफळ लाभव्न राक्ण्याक उत्तीम लेखनां व्हाळोन येशीं केलीं, हाचा सांगाता राक्ण्याचा पानांनी सामाजीक विशयां वय्र उजवाड फांकंवचीं लेखनां पाय्स जायशें केलीं. असें स्थळीय पवित्र सभेंत लायिकांचो पात्र आमचा सामान्य लोकान समजाशें करूंक पेचाड्लो. लायिकांनी याजकांचा वाव्रांत मात्र भाग घेवन तांकां आधार दीव्न मात्र वाव्रिजाय म्हणोन तेदोळ म्हणासर आसल्लें चिंताप बद्लून लायिकांनी स्वंत, स्वतंत्र आनी विशिश्ट रीतिनीं ताचांच परिसरांत उर्बेन अपोस्तलाद चलयशें आन्नि फिर्गजेचा बरेपणा खातीर वाव्रुंक मुकार सराशें तांकां योग्य मार्गदर्शन आनी सलहा सूचनां दींव्क सुमार तेंप राक्ण्याचा पानांनी लोखनां प्रकट केलीं.

मार्क वाल्डर बापान केल्लें आन्येक विशिश्ट काम जावनासा 'राक्णो' दफतरांत पत्रिकोद्यमांत तर्बेती जोडल्ल्यांक सग्ळो वेळ सहायक जाव्न नेमक केल्लें. असें दियेसेजिचा पत्रगारिकेचा कामांत लायिकांक पात्र धेंव्क आवकास लाभय्लो. हांचे पैकी सिरिल जे. सिक्वेरा (सिज्येस) श्री सिल्वेस्तर आनी श्री क्लीफर्ड डिसोजा, प्रमुख जावनासात. हाचा सवें 'राक्णो' पत्राचा संपादक मंडळीचा सांद्यांचो संखो 15 जणांक चडयलो.

त्या शिवाय कोंकणी भास बरंव्‌ची रीत, अक्षरांची मेळावण, लिपिची वापरणी, आनी उत्रांची मेळावण सर्व कोंकणी पत्रांनी एकाच थरान जांव्‌न कोंकणी भास सुडाळ रीतीन बरंव्‌क सलीस जांवचा खातीर सर्व कोंकणी नेमाळ्यांचा बरव्‌प्यांक सांगाता आपव्‌न थोड्या दिसांचें सम्मेळन चलव्‌न सूक्त रीतीन मार्गदर्शन दींव्‌क प्रयतन केल्लें, मार्क वाल्डर बापाचें अन्येक फळाधीक साधन म्हण सांग्येत. असें ताचा संपादक्पणाचा काळार सुमार 12 सम्मेळ चलव्‌न वेल्ली कीर्ति ताची जावनासा.

बारा वर्सां परयांत राक्णो पत्राचें संपादक्पण आनी संचालक्पण फळादिक्पणी चलयिल्ल्याचो फळ जाव्‌न 'राक्णो' पत्र पत्रिकोद्यमांत यशस्वेचा मेटांनी चड्‌लां म्हण सांगोंक धैर भग्ता. राक्णो कुटांब आसा करून आर्थिक स्थितेन 'राक्णो'क आपल्याच पायांचेर उबो रावाशें केल्ली कीर्त मार्क वाल्डर बापाक फावो. 'राक्ण्यांचो प्रचार फिर्गज़ांनीं करून, इस्तिहारां स्वागत कर्न पत्राचें धन आनी रूप बद्‌लून काडल्ल्या वांवटीचो फळ जाव्‌न ताचा काळार राक्ण्याच्यो प्रतियो 8,000 मिक्वोंक वरत्या उर्बेन आनी आतुरायेन वावुर्लो म्हण स्पश्ट सांग्येता. तवळ पर्यांत अशिक्प्यांचें, आया-बोट्‌लेरांचें आनी नेणारी लोकाचें पत्र म्हण लेकून आसल्ल्या कोंकणी पत्रगारिकेक आज शिक्पी, जाणारी आनी ग्रेस्तां मधें थोडो पुणी मान मेळता म्हळ्ळी गज़ाल समाधानेची ह्या परिवर्तनांत 'राक्णो' पत्राचो वात्र वर्तो जावनासा. वाल्डर बापान ह्या पत्राचा सुद्रापा कुशीन काडल्ली घनाधीक मेटां हाका काराण जाल्यांत.

आमच्या दियेसेजींत पत्रीकोद्यमा मुखांत्र याजकांनी सामाजीक क्रांती आनी राजकीय जनजागृति उटयल्या म्हळ्ळयाक निदर्शन जाव्‌न मा.बा. मार्क वाल्डरान 'राक्णो' मंडळी आनी सिबंधेचा सहकारान आनी वकील शिर्ताडी विलयम पिंटो सवें मेळोन 1974 इस्वेंत सरकारान जार्‌येक हाडल्ल्या भुसुधारण कानूना विश्यांत तांचें तर्क वितर्क आनी सम्मेळ चलव्‌न 'घोळतेल्यांक भुंय आनी रावतेल्यांक धर' म्हळ्ळें धोरण साद्या लोकाक समजा सार्कें करूंक 'राक्ण्या'चा पानांनी लेखनांवळ वाळय्‌ली. तशेंच फिर्गजंची भेट कर्न जमात्यो कर्न हळ्ळेंत्‌ल्या नेणारी लोकाक हाचे विश्यांत शिक्षीत केलें. हाचो फळ जाव्‌न सुमार 60,000 लोकाक फायदो लाभव्‌न दुबळ्या रैतांक ताणी घोळची भूमी थोड्या मापान पूणी पार्टी मेळाशी करूंक चळुवळ चलैशें तांकां पाटींबो आनी धैर दिलें. हाका लागोन सबार थरांची निंदा, विरोधपण, आनी भेश्टाव्‌र्णें सैत सोसून दुब्‌ळ्या-दाकट्या लोकाचा उदर्गते खातीर सतान आनी नितीन चलोंक ग्रेस्त आनी आस्तिदारांक उलो दीव्‌न जैत जोड्‌न दिल्लों काम निजायकी शाबास्की मेळोंक फावों जाल्लें तसले जावनासा. हाचे शिवाय क्रीस्तांव पत्रगारिके मुखांत्र लोकाचा खास्गी समस्यांक आनी प्रकृतेचा विकोपांक बली जाल्ल्या लोकाचा गर्जांक पांवचा कामांत बळवंत आधार, सहकार आनी

गर्ज आसल्लें दान जमंवक साधन चलय्लां. दृश्टांताक 1974 इस्वेंत दक्षिण कन्नडा जिल्ल्यांत महापूर (आव्र) येव्न ताका बली जाव्न निराश्रीत जाल्ल्या लोकाक दुड्वा कुमक आनी हेर गर्जेच्यो वस्तु जमोंव्क राक्ण्याचा पत्रांनी प्रचार चलव्न ताचे खातीर एक समिती रचून, खुद्ध त्या जाग्यांक भेट दीव्न केल्लो वाव्र आनी काडल्ली मिनत होग्ळिकेक फावो जाल्ली जाव्नासा. हें काम चलव्न वरूंक सग्ळें वर्स भर लोकांचो सहकार, बरें मन, उदारपण, सहकार आनी भाव-बांदवपणाचो स्पिरित दुबळ्या दाक्ट्यांचा गर्जांक पांवचांत दाकव्न दींवक राक्ण्याचा पानांनी खाळ्मित नास्ताना लेख़नांवळ प्रगट जाल्या.

आसल्या विशेश संदर्भानी मात्र न्हंय आस्तां आमचा दियेसेर्जींत आर्थिक परिस्तितेंत अडचोन कश्टोंचा लोका खातीर आनी तांचा भुरग्यांचा शिक्पांक सौलत्यो ओदग्सुन दींव्क आसा केल्ल्या C.O.D.P. (सि.ओ.डि.पी) कर्चो वाव्र आनी दिंवची मजत सर्व प्रयोग कर्न तांचा गर्जांनी ह्या संस्थ्या थाव्न फाय्दो जोडिशें करूंक राक्ण्यान आप्ल्या लेखनां मुखांत्र प्रयत्न चलयलां. सांगताच आमचा दियेसेर्जींत भलाय्के क्षेत्रांत सेवा अर्पुंचा फा. मुल्लर्स च्यारिटेवल संस्थ्यान आपलो शतमानोत्सव चलंव्चा संदर्भी तांचा वाव्राचो विवर आनी तांची निस्वार्थ सेवा, शाबास्की पाटव्न वारवण्णी आचारलेलीं लेखनां 'राक्णो' पत्रांत धाराळ वाचूंक मेळ्ळीं. अशें आमचा क्रीस्तांव लोकाक आमचा धनाची आनी ग्रेस्तकायेची ओळक दिली. ह्याच संदर्भांक लागोन म्हळ्ळेबरी राक्ण्याचा पानार्नी एक 'भलायके विभाग' आसा कर्न खुद्द एका दाक्तेरानंच लोका थाव्न येंवचा भलायके विश्यांत्ल्या समस्यांक परिहार सोदूंक आवकास कर्न दिल्लें समेस्तांचा गमनाक येवन् सबारानी होग्ळीक उचारल्या.

कोंकणी भाशा चळवळेंत मार्क वाल्डर बापाचें नांव ऊंच आसा. कोंकणी भाशेचा लोकाक एकटांय करूंक म्हणजे बोंबय, गोंयां, मंग्ळूर, कोच्चीन अशें सग्ळ्या कोंकणी करावळेर शिंपडोन आसल्लया सर्व विभागांचा कोंकणी लोकाक तांचा चिल्लर भेद भावाचो उडास विस्रोन आनी सर्व कोंकणी लोक 'एक जावनासांव' म्हळ्ळो मनोभाव उबजासो करूंक ह्या सर्व विभागानी कोंकणेचो बावटो ऊँच उबारून धरल्ली कीर्ति वाल्डर बापाची जावनासा. कोंकणी भाशेक इतर भासंची आनी कन्नड साहित्याचो संबंध ताणे बांदून हाडला. असें कोंकणी साहित्य ग्रेस्त जायशें केलां. 1974 इस्वेंत जनेराचा पय्ले तारकेर 'कोंकणी भाशा मंडळ' स्थापन करूंक काराण जाल्ल्या व्यक्तिं पयकी मा.बा. मार्क वाल्डर एक्लो म्हळ्ळें सत सर्व जाणांत. हाणे ताचा सह वाव्राडी आनी कोंकणी प्रेमी जाव्नास्चा श्री चा.फ्रा. दे कोस्ताचा सहकारान प्रमुख कोंकणी बरव्प्यांक अखील भारत कोंकणी साहित्य परिशदेच्या बस्कांक हाजर जांवक साध्य जायशें वाहनाची विलेवारी कर्न तांकां थंयसर व्हर्न पार्टी हाडलें. असें गोंयांत तीन पावटीं, तशेंच बेंग्ळूर,

कोच्वीन आनी बोंबयंत जाल्लया आधिवेशनांक हाजर जांवचो अपूर्व सुयोग कोंकणी बरव्प्यांक ओदग्सुन दिलो.

हीं सर्व कामां न्हंय आस्तां कोंकणी भाशेचा अभिवृद्दे खातीर खळमीत नास्ताना वाव्रुन आवकास मेळल्ल्या वेळार भाशणा आनी लेखनां द्वारीं, कोंकणी भाशेची ग्रेस्तकाय, ताचा लोकाचो एक्वट करची गर्ज कोंकणी भाशेचा अभिवृद्देंत आस्चे समस्ये इत्यादी विशय सर्व कोंकणी प्रेमींचा आनी कोंकणी माय भास वापर्चा लोकाचा गमनाक हाडूंक बरें प्रयतन केलां. ताचें असलें एक लेखन कोंकणी कथोलीक एसोसियेशनाचा (25) रुप्योत्सवाचा स्मारक अंक्यांत छापून आयलां.

## मानादीक विशेंत वितोर मिनेज बाप - पांचवो संपादक

'राक्णो' हप्ताळ्याचो पांचवो संपादक जाव्न 1985 इस्वेचा मेयाचा 11 तारिके थाव्न 1993 मेयाचा 30 तारिके पर्यांत आट वर्सां पर्यांत आप्ल्या खळमीत नातल्ल्या वाव्रान आनी मिनतेन दीस आनी रात म्हण लेकिनास्तां आपली लिख्णी झरव्न राक्ण्याचा वाडावळी खातीर वावुर्लोलो जावनासा मा. विशेंत वितोर मिनेज बाप. हो आमचोच मंग्ळूरगार जाव्न वेलेन्सिया फिर्गजेंत 1945 इस्वेंत नवेंब्राचा 3 तारकेर जन्माल्लो. मैसूर विश्वविद्यालया थावन एम.ए. पदवीधर जाव्न रोमाचा उर्ब्रान विश्वनिद्यालया थावन देवशास्त्राची सनद जोडल्लो आनी बोंबय पत्रिकोद्यमांत डिप्लोमा कोर्स कर्न मानाधीक बाप मार्क वाल्डर आम्मेंबळ फिर्गजेक वर्ग जाव्न गेल्ल्या वेळीं हाणे 'राक्णो' पत्रांचें संपादकपण हातीं धेत्लें. तो एक महान बरय्णार जाव्न आतां टी वि. बरव्पी जाव्न वावुर्चा ताचा माल्घड्या भावा थाव्न कोंकणी वाचपाची तशेंच उप्रांत बरपाची उर्बा आपणाक मेळल्ली म्हण सांग्ता. लानपणार घरा आस्ताना ताचा भावान हाडल्लीं सर्व कोकंणी पत्रां वाचून कोंकणी भाशें थैं मोग आनी आकर्शण भग्लें म्हण ताची आभिप्राय. हायस्कूलाचें शिकाप चलव्न आस्ताना उबजाल्ली अभिरूच उप्रांत सेमिनरींत आस्ताना कोंकणी लेखनां बरव्न तीं फाय्स जाव्न आयिल्ली पळेव्न एका थराचो संतोस आनी गुपीत आनंद भोगल्लो. कालक्रमेण हें ताचें देणें कोंकणी वाचपी जावनास्वा दुब्ळया लोकाक आत्मीक शिकव्ण आनी मोलाधीक पवित्र पुस्तकाची जाण्वाय दीव्न आमचा समाजींत आसल्ल्या फितिस्पणां, अचार तसल्या वायटांचेर झुजोंक 'राक्णो' पत्र आपलें बळीश्ट हातेरशें जाव्न घेतल्ली कीर्त विशेंत वितोर बापाची जाव्नासा म्हण समेस्त मानुन घेतात. तो एक महान लेखक, नांवाड्दीक प्रसंगदार जाव्न आधुनीक काळाची गर्ज समजोन आप्ल्या लेखनां मुखांत्र खडाखड उत्रांनी लोकाक जाग्वणी दिल्लो संपादक जाव्न राक्ण्यांक बरया रीतीन सांबाळन वेल्लया खातीर ताका होग्ळीक फावो. सांगाताच तो एक उत्तम, उर्बेवत याजक आनी शातिवंत प्रसंगदार जाव्न ताचा याजकी तर्बेती कालारच

ताचा घणघणीत प्रसंगांक नांवड्ललो जावनासा. लोकाचा आत्मीक गर्जांक पावोंक तो सदांच तयार आसल्लो. संघ संस्थ्यानी रेतिरयो दींवक कुम्सारां आयकोंक ताका आपव्णी येतालीं. फिर्गजेनीं वोलां, काजारांक हाजर जाल्यारी राक्ण्याचो वाव्र तो केदींच बाकी दव्रिनातल्लो. विशेश सुड्सुडायेन आनी मतीचा तीक्ष्णतायेन तांचें काम बोवच थोड्या वेळान तो कर्न काबार करतालो. राक्णो दफतराक कंप्यूटर हाडल्ल्या संदर्भी गोवळी बापनंच ताका 'एक कंप्यूटर' म्हण वोलायिल्लें आसा. हें ताचा गूंड चिंत्पा आनी सुड्सुडीत वाव्राक एक साक्स.

विशेंत मिनेज बापान राक्णो पत्राचें ध्येय वाक्य 'सत उलय धर्म चलय' उकलन धर्लों. कोणायकी दाक्षेण करिनास्तना सत आनी नीत दाकंव्क झुज़्ला. कोणाय्की भियेंवक नां. संपादकाचें काम करून आस्तना ताचेर हल्लो चल्लो जाल्यारी तांकां भियेंव्क ना. राक्णो पत्रा मुखांत्र ताचा चूकीक पर्गट भग्साणे माग्लां.

ताचा कालार 'राक्णो' जाय्तों सुधार्ला म्हण वाचप्यांनींच उचार्लां. केवल पत्राचो प्रसार संखो वाडवंक पेचाडनास्तना, ह्या पत्रा द्वारीं धार्मिक चिंतप. देव शास्त्राचें शिकाप लोकाक मेळाशें करूंक चड मिनत धेत्ल्या. प्रत्येक जाव्न बायबल शिक्पाक उत्तेजन दिलां. राक्ण्याचा पानांनी विविंगड विभाग सुरु केल्लें एक विशेश लक्षण ताचा संपादकपणाचें, धार्मिक, वैद्यकीय आनी कानून सलहा-ह्या तीन विशयांचेर सवालां जापींक आस्पद दिल्लो. प्रत्योक भलाय्के विभाग आसा कर्न लोकाक भलाय्केचा विशयांचेर चडीत समज़णी मेळाशी केली. थोड्या संदर्भांनी हास्याचो आनी मनोरंजनाचो आंकोयी भाय्र काडल्ली विशेंत बापाची विशेश श्याती दाकयता.

थोडी पुस्तकां भाय्र काडल्ली कीर्त विशेंत मिनेज बापाची जावनासा. तांचे पैकी 'अमाल संसारांत', 'पाप जूवांव पाव्ल II', 'तवळ रात जाल्ली', 'सां विशेंत फेरेर' उजवाड जांव (I आनी II भाग) 'सय्तानाचा संसारांत' हाचे शिवाय 300 वय्र लेखलां 'तवळ रात जाल्ली'' ह्या कड्तिल्येचो 11,000 प्रतियो छापून विकून कोंकमी साहित्यांत दाक्लो रचला.

## मानाधीक बाप साम्वेल सिक्वेरा - आतांचो संपादक

बाप साम्वेल सिक्वेरा एक उरबेस्त तर्नाटो याजक. ल्हान प्रायेरत्त ताणे आपणाचें लिखणे - देणें ओळकून घेव्न बरंव्क सुरु केल्लें. आनी ताचीं लेखनां राक्ण्यार फायस जाल्लया वर्वी आनीकी चड बरंव्क हुमेद आय्ली. उप्रांत थोड्यो काणियो बरंवकयी ताणे सुरु केल्यात. ताची एक काणी मात्र एदोळ 'आवयची आशा आनी हेर कथा' म्हळ्ळ्या बुकांत फायस जाल्या. सेमिनरींत शिकाप जोड्न आस्ताना सैत ताचीं थोडीं लेखनां वाचप्यांक रुचल्यांत आनी ताचा गूंड जाण्वायेचो आनभोग जाला. याजकी दीक्षा

मेळोन फकत चार वर्सां जालीं तरी ताची कीर्ति सगळ्यान पाचारल्या आदल्या 1993 चा जुनांत मा. पाब. विशेंत वितोर मिनेज पेर्नाळ वर्ग जाव्न वेचा संदर्भीं ताचा जाग्यार 'राक्णो' पत्राचो नवो संपादक जाव्न मा.बा. साम्वेल सिक्वेराक दियेसेजीचा व्हडिलांनी नेमक केलो.

बाप साम्वेल सिक्वेरान मैसूर थाव्न बि.ए. आनी बि.टेक. सनद जोड्ल्या. 1985 इस्वेंत ताणे डेल्लीचा एका मेनेजमेंट संस्थ्यांत एका वर्साचो (टप्पाला मुखांत्र) डिप्लोमा कोर्स कर्न पत्रगारिकेंत तर्बेती जोड्ल्या. तवळ थाव्न तो राक्णो संपादक मंडळीचो सांदो जांव्न आंजेलोर फिर्गजेचो सहायक विगार जावनास्तना. सैत 'राक्णो' दफतरांत आपलो वाव्र कर्न आसल्लो. असें अनभोग जोडल्लया ताका उप्रांत संपादकाचें कदेल दिल्लें. सार्कें आनी बाजबी जावनासा.

साम्वेल बापान संपादकाचें काम हातीं घेतल्ल्या उप्रांत ताचें सुधारण करूंक थोडीं मेटां काड्ल्यांत. पयले सुवातेर ताका येंवचीं लेखनां तज़्वीज़ कर्न आसा. दुसऱ्या सुवातेर 'राक्णो' एक सातोळें पत्र जाल्ल्यावर्वीं तांतूं कोंकणी बास वापर्तेल्या लोकाक गर्ज आसच्यो थोड्यो खब्रो एका हप्त्यांत जाल्ल्यीं घडितां लोकाचा गमनाक हाडूंक प्रयतन चलता. असें 'राक्णो' एका महिन्याळ्या बरी लेकिनास्तना खब्रांक पयलें स्थान दीव्न हेर काणियो, लेखनां, भलायके विभाग, स्पर्धे इत्यादी आटापून छापूंक येव्जिलां.

साम्वेल बापान राक्ण्याचें काम हातीं धेवन पुर्तें एक वर्स भरूंक नां तरी ताचा हुमदीन आनी ताणे काडल्ल्या वांवटीचो फळ जांव्न राक्ण्याचा वर्गणीदारांचो संखो विशेश चड्ला म्हण मंपादक धैरान सांग्ता.

राक्ण्याचा सिबंदेन आयलेवार आमचा दियेसेर्जींत चलयिल्ल्या समीक्षे प्राकर आमचा दियेसेर्जींत फाय्स जांवचा 'राक्णो' पत्राचे वाच्पी सुमार 60% जावनासात म्हण साम्वेल बापान अभिप्राय उचार्ली. कन्नडा वाचूंक जाणा आसल्ले खुद्द 'राक्णो' हाडव्न वाचिना जाल्यारी हाडल्लयां थाव्न अदल बदल कर्न, सेजाऱ्यां कडे मागोन जाल्यारी समार्जींत आनी आख्ख्या संसारांत कितें घड्ता म्हळ्ळें वाचून आपली जाण्वाय चडंव्क प्रयतन करतात. अशें जाल्ल्यान आमचो लोक नेणारी आनी पत्रां वाचूंक नेणा म्हण सांगोंक जाय्ना. आतां चडावत घरांनी टी वी. मुखल्या बाग्लांतूल्यान भितर सरल्ल्या वर्वीं पर्ें त्राचाप आनी माग्णें इत्यादी पाटल्या बाग्लांतल्यान भाय्र सर्न गेलां. पूण फिर्गजांची खबार, याजकी नेमक्पणां, गोवळी बापाचो संदेश, आनी थोडीं प्रकटनां वाचूंक लोक राक्ण्याची वाट राक्ता म्हळ्ळे फट नैं.

आमचा दियेसेजिचा सर्व कुटमांनी 'राक्णो' तसलें एक कोंकणी पत्र हर्येका कुट्मात हाडव्न वाच्ची सवय आसल्ली जाल्यार राक्ण्याची प्रगती आनीकी चड मापान

जाती आसल्ली म्हण कोणाय्की समजाता. कोंकणी खातीर थोडया वर्सां थावन चळवळ सुरु जाव्न ती चडोन आयिल्ल्या वर्वीं ताका आज भारतीय संविधानाचा 8व्या वोळेंत स्थान लाभलें म्हळ्ळें आमकां कोंकण्यांक एक धादोस्कायेची आनी आभिमानाची गजाल जावनासा.

ह्या नव्या संपादकाचा श्यातेन आतां राक्ण्यार फायस जांव्चीं लेखनां लोकाचें बरेंपण, समाजिची स्थिति आनी राजकीयांत घडचें बरें वायट साद्या लोकाक समजा सार्कें करूंक तें सुडाळ आनी संप्या भाशेन योग्य आनी जाणारी बरव्प्यांचा लेखना द्वारीं साधन चलता. असल्या उचांबळायेचा काळार सैत 'राक्णो' आप्लें ध्येय धोरणां उकलन धर्न कूट्मांक योग्य रीतिचें वाचाप ओदग्सून दींव्क येदोळच सबार क्रियात्मक चटुवटिको प्रारंभ केल्यात म्हण दिसोन येता.

*(येवंचा अंक्यांत मुंदरिला.)*

# टीका

## पयलो भागः अर्थ विवरण

## I अध्यायः प्रस्तावण

### 1. प्रस्तावणः

देवान आपणें रचल्लें सर्व देक्लें - तें सर्व बोव उत्तीम आसल्लें (उत्पत्ती 1:31) बायबलांत आप्लेच रचनेचो देव विमर्सो करता.

"कहलो कुलकुलुगो नोत्तो, ताळण्याच्या भानाक उजो कहल्याक झळनागो?" पुर्पुर्‍यानीं दीस सुरवात करता हळ्ळेचो कामिलाब.

मीसाक सुडसुडीत वेचा पुडपुडीत फेलसीक देखतां आम्ची सेजारची रोजीबाय नकलां करता "फेलसीच्या ब्लाउजाचे उक्कू तुटवंक जाल्यात. काळजाचें दार उग्तें पडलांगो!"

सबार शेकडयां आर्दी ग्रीक साम्राज्य विस्तारावृन पंजाबाक पवल्लो अलेक्सांडर जैतान उदगारता 'वेनी, वीची, वीती' - म्हण्जे: "आय्लों, देख्लें, जिक्लें."

धा महिन्यां आर्दी लगन जाल्लीं रोनी-रेत्री हास्त्या बाळशाचे गाल पशेवृन एकामेका तुक्लाय्तात "तुजेबरी-मजेबरी - मजेबरी-तुजेबरी."

### 2. जेराल टिकाः

दिस्पड्तें आमचे भंवारी आसा टीकाच टीका! टिके शिवाय आमचे दीस सुरु करिनांव. विमर्शांत दनपार पर्तात आनी वरवणेंत रात फालें जाता.

आमचा घरांनी कार्यालयांनी, कामासालांनी, बायलां गजाली कांताना, शिक्पी-अशिक्पी, बुद्दु-बुद्वंत, सार्धी व कार्बारी, टीका करतात, खोडी काटतात, विमर्सो करतात. आपणाच्यो या पेल्याच्यो करन्यो वाखण करतात, तुलन करतात. वरवणी करतात. टीका नास्तां दीस सरांनां, वेळ पाशार जायना, दर्लेलीं कामां पंताक पावानांत. हें सर्व टिकेंत आटवृन टिकेची चाल समजंचें हें लेखन.

### 3. टिकेचो आटवः

एक कर्नी जांव काम, कविता रचन, सुफळ, जीक, सोल आदाय-नश्ट - हाचो विमर्सो, नक्लां, तुकलवणी - हें सर्व वरवणेंत आटप्ता. एका मापाक व तुलनाक सरी करचें, मेजप - मनशाची मत आनी राजांव करूंक सोदता.

अदृश असलल्या प्रमाणाक, इच्छेक, निरोपाक, व पूर्णतेक, सादृश सर करचें मनशा कालेतीचें लक्षण. एका कलाकारान वांवट काडलल्या पुत्ळ्याचे आवगूण पट्टी करचें सोनारान वज्राचा सोभायेची नेटवणेची ऊँचाय मेजची आटप्ता तुलन - वरवणी टीका:

कोंकणी भास, कोंकणी साहित नद्रेन हो निबंध जालेल्यान टीका साहितीक कृतियेंचे कलेंचे टिकेचो प्रत्येक उल्लेख ह्या मळार जातलो तांतूय कोंकणी साहित, नाटक, संगीत कलेंचेर चड भार आस्तलो, ह्या लिखपांत. टीका साहित्याचोच प्रधान वांटो जाला तें मुखार आमकां गमतेलें.

## II अध्याय: ध्येय:

### 1. उद्देश:

"मंगळूरी कोंकणी लोक टीका घेव्चा तित्लो व्हड जांवक नां. टिकेगारांक कलेचो अभिमान ना. कलाकारांचो दुराभिमान" म्हण्ता प्रख्यात नाटकिस्त-साहिती श्री ल्यान्सी पिंटो नायक.

"टिका मट्टाक कोडियाळगार बोव आल्बे. खरे टिकेगार नांत. आमी टीका घेंवक सकानांव" म्हण्ता पत्रकर्त-नाटकिस्त श्री डोल्फी कास्सिया.

"कुंडो खायरांक उंडो रुचाना. मंग्ळूरचा कोंकणी लोकाक कविता जाय्नां - वोडां कविता मांदिनांत. कविता बरंव्चेयी कवितेचें अध्ययन करिनांत. देकून क्रीस्तांव जमातेलाग्गीं कविता विर्शी उलंवचेय बंद केलां" म्हण्ता दे। चा.फ्रा. (अब्रांवचें यज्ञदान 1987 पान 108, 109) चा.फ्रा. एक क्रांतिकारी नाटकिस्त. ताचे नाटक खेळगाड्याक रुचतात पूण प्रेक्षकांक दोस्तात. हाका चा.फ्रा.ची जाप संपी तुमी नाटक खेळा, आप्णे बरो नाटक बरय्ला, आपणाक पसंद आसा - लोकी पसंद करतात, करूंदीत - करिनात्लां खातीर नाटक तिदव्ंक, बदलूंक खुशी व्हरीनां."

"साहित्य बाबतीं सांग्चें जाल्यार कवितेची, काव्य नाटकाची कथा, कादंबरी, निबंधाची खोड तें साहित जिरंवक गरज... टीका वोंबाली जाल्यार कोंकणी साहितांत एक नवो फुडार घडियेत म्हळ्ळे आशेन..." आपली टीका आरंभ करता दोतोर विल्ली डि सिल्वा (आब्रांवचें यज्ञदान 1987, पान 112, 115).

साहिताचोच वांटो टीका - साहिताक प्रचोदन, बरया साहिताक प्रोत्साह आनी साहिताचा मौल्यामापनाचो प्रमाण. कोडियाळगारांचा कोंकणी साहिताक आपले संस्कृते थंय एकवट हाडूंक, आपलो टीकानो नोंदांवक टीका गर्जेची. ते बाबतीं खरी टीका, तिचीं लक्षणां, तिचे गूण, रूप स्वरूप वाखणाचें आवश्य आसा.

## 2. विशय:

टिकेविशीं ह्या निबंधांत जेराल विशय, आभिप्रायो, संबंधीत विचार प्रस्तावनांत गुंतल्यात.

साहितीक टीका म्हण्तच कोंकणी साहित, कोंकणी भाशेविशीं मट्व्यान गर्जेच्यो संग्ती उत्रायल्यात. टीकेचो उद्देश प्रत्येक जावन कोडियाळगारांक टीका अध्ययनाचो महत्व सांगोन तिस्रो अध्याय लिखला. निबंधांत आटापचो विशय, विचार आनी विशयांची परिमिती निर्णयला.

मुखल्या आध्यायांत 'टिका' सब्द लग्ती सब्दां अर्थांचेर गमन ओडून टिकेक ताळ आनी मेळ दींवक मिनत केल्या.

कोंक्णेक सर जांवन आस्तम्ती साहिताची जेराल टीका मट्व्यान एका अध्यायांत विवराव्न टिकेचे वाटेन आमीं चमकोंक उरलेली वाट आनी दिशा सोधल्या.

प्रमाण अध्याय - कोडियाळी कोंक्णेंत्ल्या प्रख्यात साहिती थाव्न सर्वश्री चा.फ्रा., एड्विन, विल्ली डिसिल्वा, डाल्फी कास्सीया - थाव्न टिकेचें ज्ञान अटाप्लां. हाणीं सर्वांनी टिकेविशीं सोध्ना करून ज्ञान पूंजाय्लां. तांतले जित्लें गमलां तें मात मट्व्यान हांगासर आटापिलां तें उग्डास दवचें.

हाका पूरक जाव्न 'अब्रांवचे यज्ञदान' काव्यनाटकाचेर घणेस्त स जणां मानेस्तांची टीका देखीक घेत्ल्या.

## 3. परिमिती:

कोडियाळांतलें सारस्वत साहित, तशें गोंयचें साहित - सर्व कोंकणी आनी ताचेर ते साहितींची टीका ह्या निबंधांत वेग्ळी उल्लेख करूंक ना.

संपवणेंत आमी कितें तरी रचनात्मक टीका करूंयेता हाची दिशा उग्ती विस्कटांवची आशा केल्या.

# III अध्याय: टिकेची टिका (ETIMOLOGY)

## 1. टीका:

टीका सब्द भाशाशास्त्रांत आवाजांचो पुंजो. टीका सब्दाक मूळ अर्थ मूळाथावन विणल्ले हेर शब्दार्थ आसात.

तशें टीका सब्दाक सरी जांवचे लग्ती सब्द आनी विरुद्द सब्द आसात. थोड्या कोंकणी साहितीनी टिके बदलाक वापारल्ले व्याख्यान दिल्ले हेर सब्द आसात रूप्ळ्या पर्माणे हांचो अर्थ निबंधाचा कथावस्तूक तुलन कर्ताना हेर सोब्दांचे अर्थ टीका सब्दाकडे कल्पन आनी व्यत्यास तज्वीज करचें गर्जेचें.

टीका कोंकणी शब्दकोशावतीन (शांताराम हेदो 1992) = विस्काटावणी, थोडनिशी अर्थ सांग्ता. विस्कटावणी म्हळ्यार घडीमोडप, उसंवचें.

फा। आंजेलो माफेयी आनी मो। सिल्वेस्तर मिनेज आप्ले सब्दकोशांनी टीका सब्द दीनांत. चंद्रकांत केणीचि उत्रावळ (1990) टीका सब्द दिता. कन्नडाचो कस्तूरी कोश हिंन्दीचो रत्नकोश टीका संस्कृतमूळाचो सब्द; अर्थ-व्याख्यान, विमर्सो म्हण संग्तात.

अर्थर मेकडोनेल्वलाची संस्कृत वाख्सरी (A Practical Sanskrit Dictionary) टीक, टीका, टीकेगार सब्द दीतात. टीक=भंवडी, टीकान=हाचे थाव्न कोंकणेंतलो 'टीकानो' आयला. टीका=विवराय, उजवाडाय,... शिवराम आपटेचो संस्कृत कोश टिक=भंवडी, टीका=भंवतणी वेचें, विवर... अर्थ दिता. विद्वान कृष्णभट शिरोमणीचो सुवर्णकोश - टीक-चलचें, टीका म्हण्जे विमर्सो, व्याख्यान... म्हण्ता. हेर श्ब्दकोश टिका-व्याख्यान म्हणतात.

**b. अक्षरावळ:**

हांगासर अक्षर जोडणेची रीत गुमन करची अवश्य. सर्व शब्दकोश नागरींत 'टीका' आनी कानडी लिपींत 'टिका' वापरतात. एकयी शब्दकोश 'ठिका' म्हाप्राण वापरिनांत. मंग्ळूरी बरपांत 'ठिका' प्रत्येक जावन फा। विल्ली आर. डिसिल्वाचा 'अब्रांवचे यज्ञदान' त टीका दितानांयी 'ठिका'च लिखलां.

लिपि-चित्रां थावन संकेत, संकेता थावन आक्षरांक गोळोन आयिलेली, हर संकेतांक मूळ चित्र व संकेत ते ते लिपींत आसात. देकून मूळ संस्कृतेंत्ल्या सब्दांक नागरिंत्ली अक्षरावळ सांबाळचें कड्डायेचें.

**2. विमर्सो:**

मानेस्त एड्विन डिसोज 'टीका' म्हळ्यार विमर्सो न्हंय म्हण्ता. गोंयकार विमर्सो सब्द वापरिनांत. कोंकणी शब्दकोशांनी - शांतारांम हेदो. फा. माफेयी, मो. सिल्वेस्तर मिनेज, विमर्सो सब्द दीनांत. संस्कृत शब्दकोश विमर्सो-परीक्षा, विचार, पर्यालोचन आनी निमाणे टीका अर्थ दितात. श्री डोलफी कास्सीया टीका म्हळ्यार कुल्पां, येटचें देकून विमर्सो सार्को सब्द म्हण्ता - हो विचार नासार्को.

**3. व्याख्या-व्याख्यान:**

शांताराम हेदो (1992) पर्माणे=लक्षण, अर्थ आनी व्याख्यान=विवरण, उपदेश, अर्थ सांग्तात.

## 4. वरवणी:

शांताराम हेदो आनी फा. माफेयी दीनांत. मो. सिल्वेस्तर 'वरय' सब्दाक परीक्षा अर्थ सांग्ता. संस्कृतांतूल्या 'वर' मूळा थाव्न - विंचवणी, श्रेश्ट विंचवणी अर्थ दितात.

## 5. तांड-ओड:

आब्रांवचें यज्ञदान (1987, पान 6, 7 आनी 85 थावन 123) त फा. विल्ली डिसिल्वा आप्ल्या टीका विभागांत अत्वे संब्द वापर करता. तांड, ओड आनी खोड - हे तिनी शब्द टीकेंत मिसळायता.

i) तांड=शांताराम हेदो प्रकार 'तांडी' - मनशांची खूब गडदी, फा. माफेयीक - भंवचें, आनी मो. सिल्वेस्तराक=विशेश घाण, संस्कृत आनी कन्नड शब्दकोश तांडव नृत्याक उल्लेख करतात.

ii) ओड, ओडनी: शांताराम हेदोक आकर्शन, मोग, भक्त, अक्षरावळ 'स्वरां'ची आनी व्यंजन 'वो,' नैं. ('वोडी' - पोटांतली सण्सन= चड खेल्ल्यान)

## 6. खोड, खोडी:

फा। विल्ली - खोड टीकेक एक नमुन्यार सर करता (अब्रांवचें यज्ञदान पान 110)

फा। विल्ली आर डिसिल्वाक पयलान खोडी काडचो म्हळ्यार पाटल्यान करचें उलवणें - म्हणजे पाड. तीन तिरकुट करचे तसलें.

दुसरयान तो म्हण्ता खोड मूळ अंर्थान पचयसुचें - गोरवां मेळल्लो चरव वेग्गीं वेग्गीं खातात उप्रांत सवळेंत या गोटयांत परत चाबतात आनी पचयतात हाका "खोड" काडची म्हणतात कंय.

संस्कृतांत खोड सब्दाक= कुंटो, चलनेक अडकळ अर्थ आसा, शांताराम हेदो (1992) खोड-खोडी=वायट सवय, दोश, हटं. खोडियाळे=खोडी काडतलें. फा. माफेयीचा शब्द कोशांत खोड ना. मो। सिल्वेस्तर मिनेज-खोडी=टीका, खोडियारो=टीकाकार हे कोणयी फा. विल्लीचो मूळ (2) अर्थ पचवेंचो उल्लेख करिनांत.

आमचे माल्घडे मन्जातींनी परत पंचवचाक खंच काडची म्हण्तात. रवंत्र काडचाक खोड काडची म्हळ्ळें व्याख्यान हेरे कडे गमोंक ना.

फा. विल्ली वतीन, कलेची साद्या लोकान काडची-खोड तीच उमेदीन, सुद्धपायेन बांदली तर तीच टीका, विमर्सो या वाखण मुंदरून तो टीकेक आन्येक उतर दिता - पाट मारसो, या पाट्ल्यान करचें वाखण. आनी नाटक पदां स्पर्ध्यां वेळार घलची वरवणीची टीकेचेच 'व' वाकणेचीच.

### 7. क्रिटीकः

टीकेक अस्तम्ती भाशेनी क्रिटीक (Critic) सब्द सामान्य जाला. तो ग्रीक मूळाचो-क्रितेस-नितीकर्त अर्थ दिता. हाचो अर्थ अस्तमती साहित अध्यायांत आटप्तलो.

# दुसरो भागः साहितीक टीका

## I अध्यायः साहित आनी टीका

### 1. साहितीक टीकाः

साहित्य संसारांत जांव एक कवन, एक निबंध, कथा कादंबरी, नाटक, नाट्य, कांव्य, कविता, नाटकूळो, पद, गायन, भजन, भाशण, विवर, वर्दी, खबर, पत्र, वार्ता, उलवप व एक चुटूक हांचेंयी जें तुलन जाता. वरवणी विमर्सो जाता थैंसर टीका उबजाता. श्री वि.जे.पी. सल्दाना ख्यातिवंत साहिती, चुटुका विशीं म्हणता - जरतर तें काव्यभरीत तर तें चुटूक नां तर कटूक.

एक सामान्य विशय, चिल्लर विशय, सामान्य आतुरायेन साहितीक कृति जाता. चिल्लर विशयाक सामाजीक रूप दिताना साद्या विशयाक जीव भरताना वयक्तीक खासगी स्पर्श दिताना साहित घडता. साहित आसा जीवनाची सादी रीत आतुराय, कुतूहल साहित्याक प्रत्येक लक्षण दितात.

जांव तोंडपाशीं, लोकवेद, बरयिल्लें, कांतयिल्लें, छापल्लें, पाचारल्लें, जें एकल्यान व थोड्यांनी हेर ग्रायकां खातीर रचून पाचार्चें. साहित म्हणतात, भाशा माध्यमान समाजिचा लोका संगीं करूंक आशेंवचें पर्गट संवाद साहित जाता.

साहित पुर्वी तोंडपाशीं, चित्रानीं, उप्रांत बरपांत विस्तालें, सवकास, पुत्ळयांनी, दृश्यांनी, कांतवणेंत नाटक, सिनेमानी प्रयोग जालें. छाप्याच्या आधारान, पत्रांनी एकदम संसाराचा चारी वाटानीं साहित पावायिलें जाल्यार, आतां आकाशवाणी आनी दूरदर्शनार कला, साहित घडियेन भुंयचा मुल्या मुल्यांक प्रसार जाता.

### 2. कोंकणी साहित्याचा मळारः

टीके पयलें कोंकणी भाशेविशीं उल्लेख करूं जाल्यारः कोंकणी वर्तवता एक पूरातन आरयाळ, शास्त्रीय, स्वतंत्र स्वयं कित्लिगी तितलीच ती एक सुंदर सरळ कलात्मक भास, कोंकणेंत राय--वंशावळ राजाश्रय नातल्लो. कोंकणी लोक कश्ट-नश्टां, समस्यानीं फासळोन, दुकोळ्ाक सांपडोन, फिरंग्यांच्या मराठींचा इजा धरमान पळोन आपलीं गांवपणां सांडून वलस गेलो. विविध, विविंगड प्रदेशानी शिंपटलो.

कोंकणीचें कुळार गोंय - गोंयांत फिरंग्यांनी जिक्तच (1510) कोंकणी आडवर्ली, आडचीली, साहित हुल्पायिलें. कोकणी संस्कृताचेर निशेध हाडलो (जे.एस. देकूझा, रिवारा- Quarter Century of Printing Press... पानां 13, 15)

तरी कोंकणी भास मोरोंक ना. तिचें साहित सरोंक नां. कोंकणी साहित किल्लें तें भोरे बांदचें काटिंनी भरचें ना जाल्यारी मौल्यांत, गुंणांनी संपत्तेन उंचलें गिरेस्त आसा. गोंयचा श्री चंद्रकांत केणिचा उत्रांनी "कोंकणी लोक संख्यान विरळ पूण कसो समाधानी, जाणारी, बुद्वंत, थंड, गिरेस्त, रूपेस्त तशिच तांची भास गिरेस्त, रूपेस्त, सुंदर भास-राज्यांक देशाक कोंकणी लोकाची देणिगा अपार. "यथा: भाशा तथा: प्रजा" तेच परीं कोंकणीचे साहिती कलाकार उंचले धणेस्त आनी मानेस्त.

बस्ती पुंडलीक शेणंय आनी सबार भाशा विद्वांस कोंकणी मराठिची आवय, हेर भारतीय भासांची व्हड भयण-रुजु करतात. "वेदकालाचा प्रकृता थावन वाळोन आयलेली तें कोंकणी वाकतंत्रांन सुरस जाता" म्हण्तात (कोंकणी मराठी... तुलनात्मक विमर्शे शाका 1890).

एशियांतच भारतीय भासां पयकी पयलो छापल्लो बूक - कोंकणीचो दोत्रीना क्रीस्ती 1622 (फा. तोमास स्टीवन) संस्कृत सोडल्यार भारतीय भासां पयकी पयिल्यान बरयिल्लें (1558 ले। ब्रदरान) आनी भारतांत प्रथम छापल्लें व्याकरण कोंकणीचें (आर्ते दे लिंग्वा केनारिम 1640) जेज्वीत प्रांशुपाल तिदोडो दोतोर भाशां विद्वांस फा। आंजेलो माफेयी "कोंकणी रानांतलो सुंदर ताळो, युरोपाचा कंयचाय भासां प्रास सुंदर स्वादीक भास" म्हण नांवाडता आपल्या शब्दकोशांत.

## II अध्याय अस्तमती साहितीक टीकेगार:

### 1. टीका:

आस्तमती साहितांत टीकेक महत्तर पात्र आसा.

अस्तमती साहितांतले टीकेगार साहित तुलन करतात. आनी बरया साहित्याच्यो वाटो उजवाडायतात. टीका साहिताचो, कलेचो एक प्रधान आनी अवश्य भाग जाला. थोड्या टीकाकारांचो एक सब्द पुरो - एक कृती या प्रदर्शन - देकीक एक फिल्म वा एक बूक वा एक नीळगथा - यशस्वी व नापास करूंक टायम्स पत्रार जेकोक्साच्यो फिल्म टीका नांवाड्ल्यात.

ग्रीक मूळ क्रितेस (Krites) म्हणजे जडज़ नीतिकर्त, थावन क्रिटिक सब्द उबजाला. ओक्सफर्ड शब्दकोश (Concise Eng. Dictionary 1964)

क्रिटीक=(टीका) म्हळ्यार साहित्य, कला, संगीत, इत्यादिंचेर बरपां, वाक्मूलां - अर्थ दिता. चूक सोध्चो ऊण सोधुन काडचे टीकेगारांचो वाव्र. बरपा वाकारिंचें मूळ आनी विशेशता विमर्सो टीकेंत आटपता.

कोमेंटरी (विमर्सो),सब्दाक एका बरपाचेर भाशणार, व प्रदर्शनार अर्थ विवरण, टीका म्हण्ता ओक्सफर्ड शब्दकोश.

आस्तम्ती साहितींचा नद्रेंन टीकाकार चूकी सोदचो नैं बरो टीकाकार साहित व कलेचे गूण उकलून धरता, ऊण नैं.

## 2. टीकाकाराचो वाव्रः

टीकाकाराचो वाव्र दोडतो. पयलान तो कलेचा विशिश्ट गूण अवगूणार गमन केंद्रीत करता. ती कला व साहित यशस्वी आटाप्चे विशय गणन करता. कृतिचा जयताक अडचन्यो आस्ल्यार चत्राय दिता.

एक प्रत्येक कृति तिचे आद्ल्यांनी केल्ले कृतियेंक सर करून टीकाकारान संबंध कल्पीजाय कलाकारांक एके वाटेन, कला प्रेमींक कला रसिकांक अन्येक वाटेन ते प्रत्येक कृतिचें महत्तम थावन उत्तम, माध्यम थाव्न सार्दे-आल्बें, आनी निमाणें बरोकर खोटें, ह्या चारी पांवड्या मदलो अंतर - गांत्र दाकवन दीजाय शेर्की बरया आनी पाडा मद्लो व्यत्यास खरया आनी तेल्त्या मध्लो शेळो दाकंवचो टीकेगाराचो दुसरो वाव्र. पयल्या वाव्राचा यशस्वेर दुसरें पावल होंदोन आस्ता. पयलें मेट सार्कें काडलां तर हो दुसरो पाव टिकान्यार पावयुता.

प्रमाणीक टीकेगार, वरवणेचा कलाकृतीर आसक्तेन, मोगान आकर्शीत आस्ता तो कुड्डो, आंद्ळो, आचारवंत नैं. अपार अनुभवी, प्रत्येक तर्बेतवंत, गूंड समजणेचो आसोन, विशाल क्षेत्रांत हेळल्लो. विविध कलेंची समीक्षा केल्लो आस्ता. साहित्याचा रचनाराचा सक्तेक, युक्तेक ताळ जावन ताचा चिंत्पा मट्टाक या ताच्याकी ऊँचायेक टीकाकारान चडाजाय.

## 3. टीकेची चरित्राः

टीकेचो इतिहास ऊस्तूंक गेल्यार साधारण दोन थरांचे टीकाकार आसात.

एक वांटो एक प्रत्येक कला वा साहित्याचीं लक्षणां व्याख्यान करतात. व प्रदर्शनाचें व साहित कृतिचें जयत तजवीच करतात. व हेर कृतियांकडे तुलन करतात. पूर्विले, चड संप्रदायवादी म्हण्येत, देकीक, प्लेटो (Morality) अरिस्टोटल (Poetics) दांते (Eloquence) प्रगतीकालाचे वोड्सवर्त (Preface) मर्तीत्ल्या कल्पीत प्रमाणां

थें आनी रचना थें एक्वट आनी प्रमाण लक्षणां सोदपाचो ह्या टीकेगारांचो हवैश. अरिस्टोटलान नाटकाक घाल्ल्यो रेग्रो-जाग्याचो, वेळाचो आनी चालीचो एक्वट इत्यादी ह्या वर्गाचा टीकेगारांनी मानून घेतल्यात.

दूसरो जो वर्ग आसा - तांचो वावृ आटापता - एक प्रत्येक कृती ताचे इतल्याक व्याख्यान करची. मौलीकरण करची, अर्थवंची आनी परि संवाद चलंवचो हांतुं चड म्हळ्यार त्या कलाकाराच्यो हेर थोडयो कृती तुनल करतीत. देकीक: क्वींटिलियान (Institute) जोनसन (Introduction शेक्सपियराचेर) हांतूंय परत एक विशिश्टाय आसा एका बरयणारान लिखल्लें तें कितें तें टीकेगारान परत आपल्या मतींतच रचचें देकीक: मेजन, एजरा पौंड, बर्नार्ड शो. पूण इलियेट आनी ट्रिल्लींग सांगतात टीकेगार काल्पनीक साहित उत्पादूंक खुशी वरिनांत, बगार साहित्यांत बरवप्याची चाल, चकिताय, मिस्तेर, कल्पानाची निगूडता, तशें त्या प्रत्येक विशयाचेर बरवप्याची आसक्त, सकत सोदूतात.

## 4. दिश्टीकोन:

विशेश उल्लेख करिजाय पोडता-साहितीक टीका दोन कोन्शांची व नद्रेची. एक दीश्ट फकत कलेची जें साहित व प्रदर्शन फकत तिचे सोभायेचेर मान्सुगेचेर, आपुटायेचेर, गमन करता जसें बाकीबाब बोर्कराची कविता एक अपूर्व कला म्हण्तांव तशें.

दुसरी एक नदर व दिश्टीकोन त्या कलेचा उद्देश व जयताचेर केंद्रीकृत जाता - देकीक खडापाच्यो ऐतिहासीक नीळगथा वाच्यांक कित्‌ली आवडता... इत्यादी.

विको आनी हेर्पेस आपले टीकेंनी समाजिचा छापावळीक आनी कलेंक लाग्सीलो बांद रचतात. आरनोळडा वतीन साहित समाजीक स्वस्थतायेक आधार जाता.

श्री एड्विन डिसोजान समाजिक टीके विर्शी जाण्वाय एक्टांयला फिलोसोफी या तात्वीक दीश्टिन टीका पळंव तर सवालां उब्जातात. आद्ल्या कालाची बचावी उरवणी आतांची प्रगति जाल्या - जें आपलें सांपडता त्या वर्वी आमीं वाडावळ जोडतांव - दोन भिरांकूळ झजां मन्शाक खरें स्वातंत्र नां म्हण दाकवन दितात. तर आमची वाडावळ कित्ल्या मट्टाची? सेजारच नद्रें हांडू तर आमचे समाजीक वांदे कितले आसात? आमी पेटेच, कित्या पोस्तांव, दोगी बायलो कित्या नजो, सोरयाचेर निशेध! आमी शिक्पी व नेणारी हे द्वंद वर्पता परीं मुखार उभे रावतात. टीकेचो संसार बोव विस्तार आसा. ही धरती, अंत्राळ उत्रोन बोव पयस तेंक्ता.

# तिसरो भागः कोंकणेंतले टिकेगार

## I अध्यायः टीकेविशीं कोंकणी साहितीः

### प्रस्तावनः

कोडियाळगार कोंकणी साहितीनीं कर्लेत वांवट काड्ल्या. कलेचे टीकेविशीं चिंतना गुंत्ल्यांत. टीकेर प्रत्येक शिकोण दीवन ते विशीं माहेत दिवपी दे। चा.फ्रा., एड्विन जे.एफ. डिसोजा, टीकेर लेखन प्रसार केल्लो फा. विल्ली आर. डिसिल्वा आनी पत्रकर्त, नाटकिस्त श्री डोल्पी कास्सिया टीकेविशी उत्रां आरयतात तीं नेरांवचीं आनी जिरांवची समंजस दिस्ता.

### 1. दे। चा.फ्रा. देकोस्तः

साहिताचा टीकेंत बरवप्याची वळक टीकेगारान आपले टीकेंत गुंतुन हाडिजाय म्हण्ता दे। चा.फ्रा. तो एक क्रांतिकारी नाटकिस्त आनी कवि. मंग्ळूरचा नाटकांनी शिस्त, सरळता, एकीनपण आनी अर्थ हाडयिल्लो असंबद्द शेंबर विचारांक नाटक मांचियेर थावन कोयराबरी झाडन भायृ घाल्लो महान कलाकार देकीकः ताचो एक नाटक, दोन भाग, तीन अंक आनी चार बोडां (सुणें माजर हास्ता) चा.फ्रा. वर्तवतालो कोंकणी संस्कृतेचो राक्णो कोंकणेंतलो एक उंचलो टीकेगार.

''जर बरयणार नैतीक मोलांचेर सवाल उडयता - हाची टीका जायजाय. गोयंचा तियत्रांची टीका जायना.'' चा.फ्रा. चे हे बेजारायेचे उदगार चा.फ्रा. चा उत्रांनी नाटकांची जेराल टीका आयकों जाल्यार - 'पयल्यान बरयणाराक वळकाजाय, समाजेंत बरयणाराचें स्थान, ताचें परिसर, ताचेर प्रभाव पडल्ले ओत्तड, कितें आस्ल्यार तांचो उल्लेख जाय, त्या बरयणाराचा हेंर कृतियांचेर नदर घालिजाय. दुसरयान काणी वा कथावस्तू कल्पनाची पक्वता जिरय्जाय साहित्याची घडावळ, मांची, मांड व स्थळ पार्किजाय. तिसरयान रचनाचे सन्निवेश जीकून धरिजाय थोडे विशिश्ट, सन्निवेश प्रत्येक सूचनां, आदेश पाटय्तात तीं सम्जाजाय.

महत्तम मेट, नाटकाचा विशयाचो तीर, निशानी खंयसर जोकता, हांतूं समाज कितें प्रतिक्रिया दाकयता तो उल्लेख आसों. कलेंत सोभाय आस्ता, थोडें प्रदर्शनीक, व गुमान केंद्रीत करचें तंत्रज्ञान आस्तां देकीकः सपणेंवचें, देवान खुणां धाडचीं, आजापां - इत्यादी साहीत जांव नाटक, कविता, काणी, संगीत तो एक जीविताचो आर्सो. थोडयांक पयश्यां खातीर, थोडयांक रंजन - कोरोड लोकां पयकी एक दोग कशे चलतात हांतूं हर एकल्याक अपापली चाल दिस्ता.

चा.फ्रां. टीकेगारांक ताची जाण्वाय दिता. ''साहितांत सत आस्ता. फट आस्ता आनी मीत आस्ता हे जरूर मानून घेंवचें.''

## 2. एड्विन जे.एक डिसोजाः

काल्पनीक साहितांत नांवाडल्लो, शिक्पी, अनुभवी, बोव उंचलो साहिती - एड्विन जे.एफ. डिसोजा. साहितांतल्या हर प्राकारांचो काणियो, कादंबरी, निबंध कथा लिख्ल्यात. साहिताचा म्हळार एका परास एका उँचायेचा पांवड्याक तो चडते आसा.

टीके विशीं जेराल आनी प्रत्येक विचार तशें साहितीक टीकेविशीं, टीकेचे इंबु, सामान्य सामाजीक टीकेचे जाण्वायेचीं सोद्ना करून विचार ताणें गुंत्ल्यात.

ओर्लो विलियम्साक उत्रावन म्हण्ता तो "टीका आसा एका थरासो भेदभाव. एक परिपूर्ण व्यत्यासाचें भावन उब्जताना टीकायी परिपूर्ण जाता. आतुराय टीकेक इंबू दिता. पूण साहिताची गर्ज टीका. ती नात्ल्यार साहिताक कला आस्ती नां, शिस्त अस्तें ना.

साहिताक टीकेगार गर्ज आसल्लो आनी टीकेगार उदेलो. साहित मनीस वाचताले - ते विशीं उलयताले - उतळायेन थोडे गूंडायेन, थोडें छापून आयलें - समाजीन टीका घेतली, पूण मोगान नैं.

काल्पनीक काणियो, कादंबरीचो कर्त - वासु वालेन्सिया, नीज जीवनांत तो एड्विन जे.एफ. डिसोजा - ताच्ये मेरेन "जीविताचें साहिता थैं तुलन, नैजा, वास्तव आनी परिपूर्णते थैं तुलन" आसा टीका. टीका बिलकुन कळवणी नैं - शून्य नैं - चूकी सोदचें साधन, नक्लां करचें साधन नैं नातल्ल्या अस्तित्वाची नातल्ल्या अस्तित्वान टीका करूंक आसाध्य. नातल्ल्या अस्मितायेची कोणेंय, कित्यानयी, टीका करूंक जायना. टीका आसा एक गूण, घन, रीण नैं.

टीकाव्दाराचीं लक्षणां सांग्ता तो - पयल्यान कलेची माहेत, दुसरयान रूच आनी तिसरयान जाण्वाय, देकून टीका आसा एक अस्मिताय, एक अस्मितायेचो, एक जीवंत वस्तुचो एक जीवंत वात्र.

आमी कशें आसांव तें शिक्ल्या शिवाय संसाराक उडी मारूंक जायना. साहितीक साहितिची टीका करूंयेत. साहित्याची अस्मिताय पयलें शिकोन टीकेक मेट काडिजाय. तरी परिपूर्ण टीका मन्श्या शातियेंत दुर्लभ. देवाचाच अस्तित्वाक संपूर्ण आटापूंक सकानांव. टीकेची टीका साध्य आसा. पूण संपूर्ण टीका आमचेलागीं नां. कित्याक परिपूर्ण कोणी ना. तशेंयी एक कृतियेची संपूर्ण टीका बरयणाराक मात्र साध्य - तो तिचो रचपी, एका मानसिकतेर उब्जल्ल्या कलेक आन्येक मानसिकतेन तुलन करचें आसा टीका. स्वताचें प्रतिक्रियें परिपूर्ण आसाजाय, टीकाकार तत्वां, इतिहास, मानसिकता म्हण्चे जिणिये संगी जियेता.

टीकेचें प्रेरणां उल्लेख करता एड्विन - पयल्यान एक कला रचना थैं स्पष्ट प्रेरण, आतुराय, चडावत शिरोनाम टीकेक आतुराय उटयता.

दुसरयान तनखी, विचार विनिमय, तनखी गूंड, आनी खडप पूण शांत मतीन कर्चे तसली ती कायदे, रेग्रो करची, व जबरदस्त, फैसलां दिंवची नैं टीकेगारान आपल्या विचारान उब्जायिल्ल्या संर्गीचेर वाचपी आपली आभिप्राय, फैसलां खुद्द दितलो.

तिसरें प्रेरण नैज कार्यीं - कलारंगांत - कलेचेर राज करचा कलेची टीका - रचल्ल्या साहिताचेर रचनाराचो थाव वाखन कर्चें टीका. पर्की कला ताचेर थापची टीकेचो स्वभाव आटापिना.

टीकाकाराचो उद्देश्य बरयणाराचेर जुलूम चलंवचें नैं बगार बरप्याच्या रचनेंतलो उज्वाड, जिकून धरचें प्रयतन खरी टीका. होग्ळाप नैं - पूण होग्ळीक जरूर साहिताची. टीका खर्यान नीज सोदनां सोभायेचीं, तत्वंचीं आनी साहित्यांत्ल्या नवेसांवाची उग्तावण.

टीका संयबान दोन प्राकारांची - वास्तवीक टीका स्वप्राधान, आनी वैज्ञानीक आस्येत. टीका आस्ता एक शिक्षण, विद्येयी कळवणी - मतीची धांपल्लीं जनेलां उग्तीं करंवचीं, टीका आस्ता मनोरंजन - टीका आसा नवेसावांची उग्तावण, संर्गी पोर्नेसावांची वरवणी, वाचप्यांचा रुचीची बुन्याद - वाचप्यांचा आतुराय, कुत्हलाची थांबवणी खंडीत टीकेगार जायजाय रूच चाक्नो आनी ती रूच कळंवचो रुचपी बरयणार रचपी आनी टीकेगार रूचपी जाता.

## 3. फा. विल्ली आर डिसिल्वाः

टीका म्हणताच कोडियाळच्या कोंकणी साहितांत मिण्कुंर्चें एक नेकेत्र फा. विल्ली आर डिसिल्वा. बोक्डेन आपडीनातल्लो पालोनां, फा. विल्लीन टीका करिनातल्लो विशय नां. ताका 'दीश्ट दिंवच्या दोळयां भंवरयो वांक्डयो, बेज दिंवचे वोंट सुदां वांक्डें, कित्या मोग करचें जातिकूळ सयत वांक्डें' (भिंगारी 1987, पान 31) दोळयां दिसचें हर टीका करपी स्वाभावीक टीकाकार तो - समाज - शास्त्रांत दोतोर सनद आपणायिल्लो ख्यातिवंत.

फा. विल्लीन अन्नांवाचें यज्ञदान - काव्यनाटक, ताचो कवि दे। लुवीस मस्करेञच्यो हेर कविता संपादून पुनर छापला - उद्देश सांग्ता तो - 'साहीत कलेविर्शी विमर्सो टीका करची, बरें उपकारचें तें जिवें करचें.'

त्याच बुकांक टीका, कला विमर्सो, खोड म्हणोन ''एक लेखन प्रगट केलां - तें मात्से तांडचें वाजबी.''फा. विल्लीन प्रयोग केल्ले सब्द - तांड, ओड (वोड) आनी खोड विर्शी एदोळच उल्लेख केला.

टीका म्हळयार (पानां 110-123) फा. विल्ली म्हणताः 'खोड' गोड आसल्लें सांगल्या उप्रांत उरता कोडू आनी पाड, ओडं आसल्लें ओडीत, तांडीत गेल्या उप्रांत

उरचें खोड आसल्लें. ताचा अर्थान 'रोवंच काडचें' मनशा सांस्कृतींत रचल्लें - कला - तें 'सग्ळें एकच पावटीं जिरंवक जायना. परत वाचचें, पळंवचें आयकोंचे पडता. पर्ने संगतीक नवी दीश्ट जाय पडता. कला विमर्सो साहित्य बाबतीन कवितेची, काव्यनाटकाची, कथा कादंबरी, निबंध तसल्या बरपांची 'खोड' तें साहीत जिरंवक गर्ज आसा. कोणयी रंजना खातीर मात वाचता, पंडीत जांवचाक नैं म्हळयारी, मनपसंदेचो, रुचीचो, ओडती-खोडीचो आश तांतूं आसात. बरो, पाड जावयेत, बंडल आसल्या उचारण्यो - व, हांकां सय घाल्ची साद्या लोकाची खोड.

फा. विल्ली मुखार सांग्ता. हाचे प्रास चड उमेदीन सुद्धुपायेन बांदून हाडल्ली खोड आसा - 'टीका' (फा. विल्लीची अक्षरावळ ठीका, पूण संस्कृत अक्षरावळ 'टीका') आनी टीका आसा विमर्सो या वाकण. स्पर्ध्यांनी चल्ची वाखणीयी टिकेची व वाकणेची, वाकण 'व्याख्या' उत्रासून आयल्या.

'खोड' फा. विल्लीं आनीकी मुकार वर्ता. हाका तयाराय आसाजाय. आदले आपले आनी हेरांचे अनुभव सांगाता घालून तयार केल्लें एक प्रमाण मर्ती या बर्पीनिर्शी तयार जाता समाजींत तें निशेवन आस्ता. त्या प्रमाणाचीं नेमां मर्ती घळवन व्हरयतलो, नाटक पळयता, पंदा कविता आयकता. भाशणांक कान दिता - आखेरेक प्रमाणाक सरी जावन जेराल अभिप्राय, एक मत रुपेताः एकाक एक सर करताना मतीचें तुलन, मेजाप उबजता - शांत सत्तर व पंचीस... इत्यादी व, बारी बरो, उत्तम, पाड नातल्यो... चवगां धा जणांची 'खोड' संगता घालताना सरासर उबज़ता... आर्मी मांदूंक सिक्तांव.

साहीत रंजनाखातीर, व आशा दवून वाचतांव. थोडें परत वाचतांव. थोडें अधर्यार रावयतांव, व विराशेन सोडतांव आसल्याकडे, प्रमाणिकपणी बरयिल्लो विमर्सो, वाकण, टीका आमकां उपकार्ता.

टीकेंतलो हर अभिप्राय मांदिजे म्हण नां. आन्येक टीका वाचताना आमची खोड धारेन भरता. 'गे खब्रा प्रास प्रमार्णीनी रुजू करून दाकंवची उंचली टीका - आनी निमाणे फा. विल्लीची सहज खोड - मंग्ळूरी संयबाक काणियांची, कादंबरीची, नाटकांची कवितेची टीका करची वोंबाना, कालेतीक वर्गाना.'

### 4. डोल्फी लोबो, कास्सियाः

छापयाचो आनभोग्दार, हेळल्लो नाटकिस्त, पत्रकर्त, काणियो, कादंबरीकार, पुनव प्रकाशना मुखांत्र शेंभर कोंकणी बूक छापून वितरण करयललो श्री डोल्फी कास्सिया 'टीका' म्हणतच थरथरता.

जरूर ताच्या भियाक काराण आसा. पयल्यान डोलफीचें चिंतप - ''टीका'' म्हळयार खोडी, कुलपा काडचीं, येटून बरंवचें, देकून ताणे वापरचो सब्द ''विमर्सो''

नाटकांचा टिकेविशी तार्ची सूचनां मोलाधीक. नाटकाचें रंगस्थळ, पयलें जिकून धरिजाय. मांचियेची मांडावळ, नाटकाचें मट्ट दाकयता. पात्रांचो प्रवेश - संभाशण काणियेक पूरक जाता व नां, तें समजाजाय, तो म्हण्ता.

टीका लिखताना - कथावस्तू, काणी, कृति कशी आसल्ली, दिग्दर्शन, प्रदर्शन, वेवेग्ळें, वरयजाय, संभाशण, निरोप, पात्र-विवरण, पात्र वितरण, नाटकाचें तंत्र आनी परिसर पिंत्रावन नाटक कसो रुचलो तें उजवाडायजाय म्हण्ता डोल्फी.

नाटक बरंवचो, खेळंवचो, दुसरयाक दाकंवचें खातीर देकून आतुराय आसाजाय. आमचा नाटकांची खरी टीका जायना देकून नाटक बरे जायनांत. दुर्सोणे सबार नाटक बरवन, प्रदर्शन, दिग्दर्शन दीवन स्वतः खोळोन अनुभोग्दार डोल्फीचें.

## II अध्यायः दार्शनीक टीका - "आब्रांवचें यज्ञदान"

### 1. सुर्वातः 'अब्रांवचें यज्ञदान"

आब्रांवचें यज्ञदान विल्ली आर डिसिल्वाची आवृत्ती 1987 - जेराल आनी प्रत्येक टीका विर्शी आभिप्राय मंडन करता. ह्या बुकाचा प्रस्तावनांत कवी लुविस मस्करेञ टीकेक खोडियांक आह्वान दिता. दुसरयान मो। सिल्वेस्तर मिनेजाचो विमर्सो ह्या बुकांत आटापूला. डेन्जिल कास्तेलीन, जे.बी. मोरायेस, दे. चा.फ्रा. दे कोस्ता आनी निमाणे विल्ली आर डिसिल्वाच - देवादीन लुविस मस्करेञचा साहिताचेर आपापले विचार मांडतात. ह्या टीका निबंधाची कथावस्तूक एक दर्शन जावन वयल्या स जण विद्वांसांची टीका मटव्यान तजवीज करचें महत्वाचें जायत.

### 2. लुवीस मस्करेञः

पयल्यान दे। लुवीस मस्करेञ आप्ल्या काव्य नाटकाचा प्रस्तावनांत तेद्नाचा कोडियाळचा नाटकांची टीका ताचाच उत्रांनी अशी वाळता: "कुक्कुर्ली बाळशीं धरल्लीं बोंकडीं मातारीं सुधां नाटक म्हळ्यार इतलीं पिर्शींगी... नाटक वर्तवता सक्डां प्रास गुमानीत, विप्रीत आनी विचित्र हातेर - मात्र - आर्मीं खेळांनी आधारचो विलायती नमूनो सांडून देशी पद्दत आधारची गरज." "हिन्दु कवेश्वरांचे श्लोक घाल्न नाटक घणेस्त आलंकारी करूं जाल्यार, आतां हीन स्थितेर... पोटभर हासंवचा एकच इराद्यान - पडपशी चेश्टय, काट उलवणें, ताळमूळ नातल्ले खेळ, दाकयिल्ल्यान आमची भास आनी पळयतेल्यांची, आभिरूच सकयूल देंवयतांव. वरकवेश्वराचें देणें नात्ल्यारी फकत एक मेलफांक्त दिंवचे खातीरः लानशी पुराणीक संगत कविता नाटक रुपार दाकयल्या. हांतुं झळकोंचे ऊण, खोडियो कळंवच्यो.

कोडियाळगारांक कविता रुचाना म्हणतात. कोंकणी बरपी आनी लुवीस मास्करेञ खुद्द ह्या भोग्णांक आधार दिता आपले कवितेंत:

> "चालत्या मनशा सर तूं पार्टी नाका तिळूंक भितर...
> कवित्वाचें मायना उबात...
> वनांत तरी भंवतात रचना कवित्वार्ची सुंदर
> तुजी एकच चंचाळ दीश्ट पुरो तांकां करूंक भश्ट
> तिळूंक नाका भितर..."

(कोंकणी दिर्वें 1913 जून) ताचे कवितेचो ह्यो फकत तीन पंग्ती मात्र. कोडियाळगार पदांक पिस्वाता - तरी कविता कवनां थाव्न मैला पय्स दांवता. ही चाल लूवीस मस्करेञ तेद्नांच जाणा आसल्लो. 1912 माय मयन्यांत ताणें कोंकणी दिर्वें स्थापन केलें. 1913 सुर्गीत पयली कविता पर्गटून कोडियाळगाराचा रुचीची टीका कळयता.

## 3. मो. विल्वेस्तर मिनेजः

दे. सिल्वेस्तर मिनेज ताचा ल्हान फुलाचो बापय 1967. (पानां 59-71) बूकांत लुवीस मास्करेञ कविचें जीवन, परिचय ताचा साहीत, कवितांची वळक झळक दिता. शेक्सपियराचा शयलेर वरकवी लुवीस मस्करेञचें काव्यनाटक - 'आब्रावचें यज्ञदान' ताचो बरपी एक उत्तम वर्गाचो कवी तें रुज्वात दिता म्हणता. कविचा देवास्पणाक ताणे ओत्तु दिला. तरी ताचें लेखन काव्यनाटक व हेर कवितेंची टीका, विमर्सो निर्मळ आटापिनां.

## 4. डेन्जिल कास्तेलीनः

विल्ली द सिल्वाचा उत्रांनी 'तांड' - तांडयता तिस्रयान डेन्जिल कास्तेलीन अमर कोंकणी 1986 (पानां 23-29) दे। लुवीस मस्करेञाची जिणी त्या वेळाचा कोंकणी साहित्याचें परिसर अशें उत्रायता. यज्ञदान काव्य नाटकाची थोड्याच वाक्यांनी तरी डेन्जिलाची ओड मन्वोंची. "काव्यनाटक इतलें सोभीत अर्थाभरीत वाचतल्याक परत वाचूंक मन येता. बरवपी उंचल्या वर्गाचो कवी म्हळ्ळो अनुभव जाता. सरवेस्पराचा आदेशा पर्माणे आब्रांव पात्रियार्कान आप्लया एकाच पूताक बली दींवक वेल्ली कथा - आपुर्बायेन कवीन वर्णिल्या. मनशा जिवितांतली भोग्णां - संतोस दू:ख कश्ट विराराय स्वाभावीक थरान विवराय्लांत. आब्रांवाचा भावाडताची थिरासाण... देवाचो मोग आपल्या पुताचेर आस्चा बापाय्चें मयपासा प्रास... मिक्वता - बरवप्याचा काव्यानीं कवितेचीं लक्षणां भरोन आसात, मर्तीत उब्जाल्लीं भोग्णां उतराचें रूप घेवन काव्यांचा नवरोसांनी भरोन ताचा कवनांनी आटापिल्ल्या ल्हारांनी वाळटात" म्हणता डेन्जिल. कवीन आपल्या प्रस्तावनांत नाटकाविशीं दिल्ली चत्राय डेन्जिल ताचे टीकेंती उल्लेख करता.

## 5. जे.बी. मोरायसः

साहित्य अकाडेमी प्रशस्ती विजेत, पुश्कळ कविता रचपी, कविता बूक पर्गटनार बोंबयचो कोंकणी वस्ताद, जे.बी. मोरायस, 'अब्रांवचें यज्ञदान' बरपी लुवीस मस्करेञक कोंकणी भाशेंतलो 'महा कवी' पुगार्ता. (मूळ मंगळूरचीं उज्वल रत्नां - पुणव प्रकाशन पानां 38-44) ''वर कवेश्वरार्चे देणें आसल्लो, काळिदासाची वर्णना सक्तिवंत, शेक्सपियरा, इतलो वेव्हारा ज्ञानी, आसल्लो कवि म्हण्ता तो. आब्रांवचें यज्ञदान काव्याची प्रत्येक टीका जावन जे.बी. मोरोयस लिखिना तरी ताचें लेखन ह्या काव्यनाटकाची संपूर्ण टीका आटापता. लेककाची वळक, त्या काळाचें कोंकणी परिसर, काव्या संसारांत कविचो प्रकास तो उल्लेखिता. कविचो साहसीक वाव्र दिर्वे, आनी तांत्लें साहीत उकलून धरता. तो एक प्रकृतीचो कवी तें माधुर चिंतप उग्डास हाडून, विंचणार उत्रांनी गूंड, अर्थाभरीत कांव्यां बरंवची लेककाची शाती दाखल्यांनी विवरायता. आब्रांवचें यज्ञदान एक श्रेश्ट कृति, काळीज मोवळांवचा शैलेर विण्लां - हें प्रयतन हाचे पयलें कोणेंच केल्लें नां. जरूर कोंकणी साहितांत वादाळ उटयलां - ती कृति, खेळोंक ताचाकी चड वाचूंक सहजल्लो नाटक.

लेककान विशय मंडन, स्वाभाविकता, नैजता मोग हुस्को, मयपास, आपुर्बायेन लिख्लां - तें जे.बी. मोरायस दाखल्यांनी उल्लेख करता - ''मुटी भितर कांपचा कोयतेचो सन्निवेश त्या भोग्णांचो अव्वल शिरवर, कवि कसो जैतान चडला तें जे.बी. मोरायेस आरवणी करता.

एक फामाद कविची अन्येका नांवाडदीक कवीन टीका कर्तच ती टीकायी उंच्ली दिस्ता.

## 6. चा.फ्रा. दे कोस्त (देवाधीन):

कोंकणी संसारांतलो महान टीकाकार दे. चा.फ्रा. दे कोस्ता व्यंग्य कीव म्हण्तात, क्रांतिकारी नाटकिस्त म्हण्तात, समस्यात्मक, कोंकणी पत्रकर्त, रचनात्मक बरपी, कोंकणी संस्कृतिचो राकोण, गोंयकारांचो मोगाचो 'बुडकुलो'. कोडियाळांत ताचे नवेसांवाचे नाटक रंगमंचार जाहीर जाताना स्थापित हितासक्तेर्नी कोडती थावन 'खडा' हाडयल्या - आनी त्या चा.फ्रा.न लिखलां. - आब्रांवचें यज्ञदान महाकाव्या संबंधी - 'कुंडो खाय्रांक उंड्याची रूच कितें कळीत-' देकून आपणे क्रीस्तांव जम्यालागीं कवितेविशीं उलवणेंच उणें केलां.

चा.फ्रा. ताचा साहीत संसारांत अन्येक्ल्याचा मेटांनी बिलकुल चलाना. तो पांवड्यांनी उडता. खंयचीय ताची कृति, जांव नाटक, कविता, निबंध, काणी वा कादंबरी या भाषण तो विशयाचा तळमळयाक गिदाचा बोंचीन मारता - आनी ताची टीकायी आपलेच शैलेची.

आब्रांवचें यज्ञदान 1987 (पान 105-109) चारच पानांनी काव्य नाटकाचो तीर्‌ल तो प्रकाशित करता. ताचा लेककाक साहितींचा मांडार जिवो जिवो बसयता. स्व कालाचें कोंकणी कवितां साहित्याचें परिसर जिवें करून 'लुवीस मस्करेञ तसल्या महान कविक गोंयकार सोद्‌ताले चूड घेव्‌न तरी कद्‌ळेंत्‌ल्या उ.म.ची. महान कृति कोडियाळगारांनी लिंबांत सेर्वायिल्ली. पुडतूगोल दांड्यांक बाग्वानातल्ले शूर शिपाय एवाग्र जोर्ज-गोंय चळवळेचो बापय - रवींद्र केळेकर अब्रांवचे यज्ञदान चा.फ्रा. करना वाचव्‌न, रडोन, कडोन मेण जाले'' - तें चा.फ्रा.चाच उत्रांनी आयकोंची एक मजा.

चा.फ्रा.ची काँप पळेया: 'तुंवें ल्हान व्हड केल्ल बोक्डेचें पील सयती कातर्ताना मुटी भितर कांपत कोयती' - (उ.मा. पान 35) चा.फ्रां. विचार्ता - ''त्या क्रूर साक्रिफिसाचा तळमळयांनी मजे हात कांपताले - व लुवीस मस्करेञ मज्या हातांनी कांपतालो?'' कवि कोंकणी उत्रां अशीं गूंतून चा.फ्रा.क सयत क्रसो गळयता तें. टीकेंत व्यक्त जाता.

'तुजो निर्मळ आत्मो कळो तुर्माणांत्‌लो -

पित्रलोकीं फुलोन थंयसर परमळ उक्लों,

आनी ह्या चा.फ्रा.चा टीकेरयी विल्ली द सिल्वाची खोड आसाच - ''चा.फ्रा. ची खोड मनांत दव्रुन वरकविचा आब्रांवचें यज्ञदाना विशीं बरंवचें तर - तीं कोणाखातीर म्हण दुबाव उटता आनी लिकणेंतलें तींत सुक्ता.''

## 7. विल्ली आर द सिल्वः

निमाणो तरी बोव गर्जेचो, हेरांची टीका, विमर्सो खोड, ओड तांडयिल्लो, ती टीका आपल्या आवृत्तिंत एक्टांवन पुंजावन तांचेर आप्‌ल्या 'खोडींची म्होर छापल्लो दोतोर विल्ली आर. द सिल्व, खुद्द, लुवीस मस्करेञाचा साहिताचेर टीका दिता.

खरोकर ती टीका लुवीस मस्करेञाक दनपाराचा वोतांत उग्तो कर्कटायता ''एक्णिशें बारांत दिर्‌व्याचो संपादक, स्थापक, जालो म्हण्ताच लुवीस मस्करेञक साहित रचिजाय पडलें. दोन प्राकार साहित्याचे ताणें आपणायले - कविता, काव्य नाटक.''

कोडियाळचा कोंकणी साहित्य मळयार सुर्विलीं शेंबर वर्सां इंग्लेज प्रभाव राज करतालो, फिंर्गी मर्जी सर्वत्र जाल्लीं. आनी कवीन क्रीस्तावपण, संयब, मनशापणाच्यो दीश्टी एकान्येकांक मिस्ळायता. ताचा कवनांनी, काव्यानी, क्रीस्तांवपण बळाधीक रूप धेता. आपल्याच पुताक कात्रून देवाक बेटंवची ताकीद आब्रांव कसो पाळता तें दाकयतात क्रीस्तांव दीश्ट आनीकी मुकार वेता - क्रीस्ताचा मर्णा थें आनी पुर्वितान भेटंवचा सदां मिसा थें - आनी ती सर 'स्व-पुताक बली भेटंवची' निमाणे ताळ पटनां तें विल्ली सार्के उत्रायता.

शैली विशीं बरयता फा. विल्ली - कविचो काव्य नाटक युरोपी पांच फांताचा 'छंदा'र विण्लो. उत्रां, संबाशण, नैज उरतात पूण अंत्य प्रासंत समावेश जातात, विशय वस्त, प्राकार आनी शैली एकानेकांत सामको मिसळातात.

नवलां खंडीत आसात - पवित्र ग्रांथांत कथा वस्तूंत बदलावण हाडिनास्तां तीं घडितां आसलल्या ताळारच देस, वेस, भास, जिनोस, मेळावन देव-देवंचार, आस्मीताय तो वोळता तें दाख्ल्यांनी सुडाळ विस्कळायत.

मन्शाकुळाचे घुट म्हण्ता दोतोर विल्ली - देवान मटवें केल्लें कविन उस्कावन उजळाय्लात. कवीन चिंतून काम केलां - व भक्तिवंत क्रीस्तांव कविचो प्राण भरोन मन्शापण भाय्र वोतलां - तें मन्शाकाळजाचा गूंडायेंत देंवल्ल्यांक मात्र कळीत.

## III अध्याय: टीकेक आहवान

### 1. संपवणी:

टीकेक संपवणी म्हळ्ळी ना. टीका एक प्रवाह. वोता वारया वादाळाक प्रवाह बळ आरायता. आव्र भरता व जिरोन निस्तेज प्रवाहाक बली जातच आस्ता. उदकांतूल्या मास्ळेची चाल पार्कियेत तरी चलियेंचीं चिंतना धरूंक जायनांत - टीका तरी चलिये भाशेन, टीकेचा धारिची तेज आनी तीक्षणता पाट धरूंक आवडना.

साहिती एक रचपी, टीकेगार एक रूचपी. 'कला' म्हळ्ळें वेव्हाराचें एक नाणें - ह्या नाण्याच्यो दोन कुशी - एक रचपी, एक रुचपी.

कलेची एक्लो टीका करता. धा जण करतात - तांची परत टीका आनी टीकेची टीका जातच वेता.

टीका मुग्दाल्ली ना. सर्वांक आवकास आसा. हांगासर उग्तो जाता स्पर्धो. बरी खरी टीका साधित करच्याक सर्वांक आह्वान जाव्न ही टीका इतल्यार थांबता.

*[सां. लुवीस कोलेजिचा कोंकणी अध्यायन केंद्रांत 1993 व्या वर्सा डिप्लोमा खातीर लोरी लोबान तयार केल्लो निबंध - संपादक]*

# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद
# विसावें अधिवेशन

**11-02-1995, दिनकर देसाई मंटप, शिरसी- 581 401**

***( विंगड विंगड वठारांतूल्या कोंकणी भाशिकांच्यो समस्या म्हळ्ळया विचार गोश्ठींत मंडन केल्लो प्रबंध )***

## कर्नाटकांतूल्या कोंकणी भाशिकांच्यो समस्या



**वल्ली वग्गा**

आमकां कर्नाटकांतूल्या कोंकणी भाशिकांक सबार समस्या आसात. तांतली एक प्रमुख आनी महत्वाची समस्या हांगासर आसा. एक हजार नोवोद सो अस्तर (1976) इस्वेंत आमच्ये कोंकणी भाशेक केंद्र साहित्य अकाडेमीन भारताची एक स्वतंत्र भास म्हळ्ळी मान्यता दिली. तेदनां अकाडेमीन खंयचेय एकये लिपिंचें कोंकणी साहित्य मात लेखाक घेनास्तां, सर्व लिपींनी आस्चा समग्र कोंकणी साहित्याक मान्यता दिल्ली. उप्रांत एक हजार नोवोद सातास्तर (1977) इस्वे थावन 'केंद्र साहित्य अकाडेमी' आपल्या 'कोंकणी सलहा समितीन' शिफारस केल्ल्या कोंकणी पुस्तकांक पुरस्कार दिता. पूण हो पुरस्कार समग्र कोंकणी साहित्याक लाभानास्तां, फकत देवनागरिंतूल्या बरया कोंकणी साहित्याक लाभता.

'कोंकणी भाशा मंडळ गोंय' आनी 'टि.एम.ए. पै प्रतिश्टान मणिपाल' कोंकणी साहित्य मात मांदून घेवून, लिपिंची पर्वा करिनास्तां, प्रशस्ति दितात. तरिपूण अंतरराश्ट्रीय मान्यता आस्चा आमचा भारत देशाचा केंद्र साहित्य अकाडेमीक, कोंकणी साहित्यांत व्हडा माफान निर्माण जांवचें, कन्नडा लिपिचें कोंकणी साहित्य मांदून घेंवक कित्याक साध्य जायना.

भारतांतूल्या पन्नास लाख कोंकणी लोका पयकी, कर्नाटकांत लगभग पंचवीस लाख, गोंयांत नोव लाख, महाराश्ट्रांत आट लाख आनी केरळांत चार लाख आनी हेरेकडे चार लाख कोंकणी लोक शिंपडोन आसा. अशें आस्ताना, सहज जावून कर्नाटकांतलो आनी कर्नाटका मूळाचो बहुमत कोंकणी लोक आपल्या साहित्याक कन्नडा लिपि वापरता.

इक्राव्या शतमानांत, गोंयचो कदंबराय (पयलो जयकेशी) हाच्या आनी सारस्वत मंडळाचा रायाचा कुळावारां मधें लग्नाची सयरीक जाली. ह्या संबंधावर्वी जायतीं

सारस्वत कुट्मां गोंयांत वचून रावलीं. जयकेशी रायान देशांत आनी विदेशांत सब
राश्ट्रांलागीं व्यापाराचो सोल्लो केलो. गोंयांक पावल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणानीं ह
सोल्ल्याचो फायदो आपूणावून, त्या राश्ट्रांलागीं व्यापार, वहिवाट चलयलो आ
थोड्याच दिसां भितर, गोंयचें वाणिज्य फुडारी ते जाले. गोंयां येताना, तांची कोंक
मायभास ते घेवून आयिल्ले. कदंबा रायांचा कालार गोंयची राज्यभास जावून कन्न
घोळताली. आपली कोंकणी मांयभास वृद्धि करचो आवकास तांकां उणो लाभ
तरयी, कोंकणी बरंवक कन्नडा लिपि ताणी वापरली अखख्या पश्चिम करावळेर तां
व्यापार चलतालो जाल्ल्यान त्या प्रदेशांनी कन्नडा लिपींत, कोंकणी विस्तार्ली. त
वेळार, करावळीचा प्रदेशांनी चालू आसल्लें कन्नडा भाशेचे जायते सब्द कोंकण
प्रवेश जाले आनी द्राविडा राज्यांत कोंकणी पुश्टी भरलीं. "नेज, गादो, मेर, भा
सोप, मुलो, पाक्कासो" इत्यादी सब्द आमचा पुर्वाजांनी तवळच कोंकणीक हाडल
आजुनयी ते आमच्ये भाशेंत घोळतात.

अशें इक्राव्या शतमाना थावन गोंयचा कदंबा, जयकेशी पयल्या रायाचा का
थावून आज पर्यांत गोंयां थावून कर्नाटकांत, महाराश्ट्राचा बोंबयंत आनी कोंक
लोक वस्ती करून आस्चा देश विदेशांत समेत दरबस्त आनी बर्फूर कोंकणी साहि
कन्नडा लिपिंत निर्माण जालां. आनी जातेच आसा. ह्या वर्वी कन्नडा लिपींत आसत
तित्लें कोंकणी साहित्य हेर खंयचेयी एक्ये लिपींत ना.

आतांयी कन्नडा लिपींत छाप्लेलीं कोंकणी पुस्तकां शेंभरांनी छापोंक खर्शेत
दाखल्याक, विलफी रेबिंबसाचा 'विंचनार पदां' म्हळ्ळ्या कन्नडा लिपिचा कोंक
पुस्तकाच्यो सोळा हजार प्रतियो येदोळ विकून गेल्यांत. ह्येच परीं, श्री वि.जे.
सल्डाना (खडाप) हांची एक श्रेश्ट कादंबरी 'देवाच्ये कुरपेन' चोवते पापटीं प्र
जाल्या आनी हीच कृति आतां लिपियंतर जावून, बेंग्ळूर्चें 'रेगो एंड सन्स' प्रका
उजवाडाक हाडता. अखिल भारतीय प्रथम कोंकणी परिशद जाल्ली कर्नाटक
कारवारांत! आयची ही सिर्सिंतली विसावी परिशद लेखाक घेतल्यार, कर्नाटव
सात, महाराश्ट्रांत स, गोंयांत पांच आनी केराळांत दोन परिशद्यो जमल्यात. परत्य
परिशदेंनी मोटो वांटो कर्नाटकाचो! इतलेंच नहीं 'माँड सोभाण' संस्थ्यान 'स
आसा केल्ली, कर्नाटकाचा मंग्ळूरांत! इत्ल्यार संपना. ह्या वरसाचा दसेंबरांत प्र
'विश्व कोंकणी सम्मेळन' कर्नाटकाचा मंग्ळूरांत जमोन, कोंकणी सम्मेळनाक, आरि
भारतीय कोंकणी परिशदेंक, साहित्य सम्मेळनांक, भाशंतर शिबिरांक, सांस्कृतीक अ
जानपद विचार गोश्टींक, कोंकणी पुस्तक प्रदर्शनांक इत्यादी... इत्यादींक..., क
लिपिचें कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी साहिती जाय! आमचे फुडारी जाय, आ
वाव्राडी जाय, आमचो सहकार जाय, आमचो दुडु जाय. पूण प्रशस्ती, पुरस

दिताना, कन्नडा लिपिचें कोंकणी साहित्य नाका. केंद्र साहित्य अकाडेमीचा कोंकणी सलहा समितिचा मुखेलपणाक कन्नडा – कोंकणी विद्वांस जांव, साहिती जांव बिलकुल नाकात! म्हाका लाभ्लेल्या दाक्ल्या पर्माणे, पाट्ल्या, अट्रावर्सां थाव्न, साहित्य अकाडेमीचा कोंक्णी सलहा समितिचा मुखेलपणाक कर्नाटका मुळाचो एक्लोयी साहिती विंचुन आयिल्लो नां. पाट्ल्या अट्रा वर्सांनी कर्नाटकांत्ल्या फकत पांच जणां कोंकणी साहितींक, अकाडेमीचा सलहा समितिंत सांदेपण लाभ्लां. आयचा दिसा ह्ये सलहा समितिंत कर्नाटकांत्लो एक्लोयी सांदो ना. अशें कित्याक घड्लां? आनी कित्याक घड्ता? म्हळ्ळो विशय हांगासर उग्त्यान विवर्सुंक म्हाका बरें लागाना! केंद्र साहित्य अकाडेमीन कर्नाटकांत्ल्या महान विद्वांस स्वामि सुप्रीया, दोतोर विल्यम माड्ता, दोतोर एड्वर्ड नोरोन्हा आनी प्रख्यात कोकंणी साहिति जावनास्चा एड्विन जे.एफ. डिसोजा (वासु) बि.वि. बाळिगा, सिरिल वेगस (सिरिवंत), सिरिल जी. सिक्वेरा (सिज्येस) डोक्टर एड्वर्ड नजरेत हांची जांव, कर्नाटका मूळाच्या दोतोर प्रताप नायक, जे.बि. मोरायस, जे.बि. सिक्वेरा, असल्या सबार कोंकणी साहितिंची वळक ना या खबार ना?''

केंद्र साहित्य अकाडेमिन पाट्ल्या अट्रा वर्सांनी, हजारींनी आस्चा कन्नडा लिपिचा कोंकणी कृतियां पयकी एक तरयी कृति देवनागरीक लिप्यंतर करुन प्रकट केल्या? ना. बिल्कुल ना! तर आनी मुकारयी कर्नाटकांत्ल्या कोंकणी भाषिकांनी ही एक प्रमुक समस्या आप्ले मतिंत फिचार करुन, कुंभकर्णाची नीद काडिजाय म्हळ्ळयार कशी साध्य?

आमि सोस्णीक व्हय!
निश्क्रीय मनीस न्हंय!!

## कर्नाटकांत्ल्या कोंकणी भाशिकांचा प्रमुख समस्यांक थोडो परिहार

1) केंद्र साहित्य अकाडेमीन प्रशस्ति दिताना, लिपी पळेंवची सोड्न, समग्र कोंकणी साहित्य मांदून घेव्न, प्रशस्ति दीजाय.

2) साहित्य अकाडेमीचा कोंकणी सलहा समितिचा मखेलपणाक कर्नाठकांत्ल्या कोंकणी साहितींक नेमक करिजाय.

3) कोंकणी सलहा समितिचा सांद्यांचा संख्यांत, कर्नाटकाचा कोंकणी साहितींक पावोतो वांटो मेळाजाय.

4) साहित्य अकाडेमीन कन्नडा लिपिचें उत्तीम कोंकणी साहित्य देवनागरीक लिपियंतर करून प्रकट करचो वाव्र घळाय करिनास्तां हातीं घेजाय!

आधारः


1. ''कन्नडा कोंकणी संबंध'' प्रोफेसर आलबन कास्तेलीन.
2. ''कर्नाटकांत कोंकणी बासेची वाडावळ' दोतोर विलियम माडत.
3. ''कोंकणी भास, लोक, आनी साहित्य' श्री सिल्वेस्तर डिसोजा, मैसूर

   (1, 2, 3, रुप्याळो स्मारक, कोंकणी कथोलीक एसोसियेशन (रि) बेंग्ळूर 1991).
4. ''कोगूळ गायता'' विल्फी रेबिंबसाचा पदाचें पुस्तक 1995.
5. ''शतमानांच्ये लडाये उप्रांत कोंकणी भाशेचें जैत'' श्री जे.बी. मोरायस, अखिल कर्नाटका, कोंकणी परिशद प्रशस्ती विजेत प्रबंध 1994.
6. "Sahitya Akademy Books", Sahitya Academi Publications 1993.
7. "Konkani-English Shabd-Sangraha" मोन्सी सिल्वेस्तर मिनेज 1967.

# कोंकणी म्हणण्यो वा गादयो

( मुंदरिलां )

३१३२ मुहुर्ता वेळेरी सासुमांयी पिर्डुकंयी एक करप. (To mix mustard seeds and black beads at the auspicious moment. As the mustard seeds and pirdukas (glass beads) are of the same size & colour, it is difficult to separate them easily. At the auspicious moment, a necklace prepared from mustard seeds & glass beads should be kept ready before hand and should be tied round the neck of the bride. Otherwise some harm is likely to befall the bride or the groom.)

३१३३ मुळाक (पंदाक) पडल्यारी नांक उंचारी.

मुळींत आळशी, तांतुइ एक चेरडूं जाल्यां. मूर्ति सानी पूण कीर्ती व्होडी. (Certain persons even though short, are clever and capable of doing great deeds)

३१३४ मुंडो खेल्लेल्या तोंडान कुंडो खावप. (Eating bran by the same mouth that had eaten the sweet "mundo" [a kind of sweet prepared from wheat-flour, sugar etc.] To fall from a rich living to a poor living)

३१३५ मूळयी वालीयी नात्तिलो. (Having neither root nor stem, one without beginning or end. One whose descent cannot be traced.)

३१३६ मूकारी गेलेल्यांक पांय आदळ्ळयारी माकशी माकशी आशिल्ल्यान जागी जांवका.

मुकारी चोयनातिलो माकशी पडता. (One who has no foresight falls behind others or suffers a loss in day to day life)

३१३७ मुददिंद धरनु तन्नु थाय आयकता, भागवतु कोणु म्हणु निमगिता.

मुकावेल्यान सासम वच्चा नजो; माक्षीच्यान हस्ती वचयेत.

मुदया घरांत शिदगयान प्रवेश केल्लो.

मुंयेक मूल जलप्रळय.

मुंये रूपार घरांत येवनु साळरी रूप दाकयता.

मूस बसता घाणीरी, मोंवा मूस बसता फुल्लारी.

मुक्कालाक म्हारगु.

मुळये मुट्ट्याक उजो दिल्ल्यावरी.

मुकारी लकयली जोंयीं माक्षी येनाशी राब्बना.

मुर्खाक बुद्धीवादू सांगल्यावरी.

मूर्ख जाल्यारी पूतु वैरी, विद्या सांगानात्तीलो गुरु वैरी.

मुकार्चो म्हशी नागडी म्हणु माक्षीची म्हशी सांगता.

मुकल्यान थेंवचो ना, पाटल्यान चुकचो ना.

मूय गेल्यार हस्त गेली म्हणा खंय.

मूंज पळेव्न कास्टी न्हसोंक जाय.

मूय जाशी साकर खाशी, वाग जाशी लाकुड खाशी.

(If a man becomes small & simple like an aunt, people like him & God uplifts him. If a man becomes proud & hot tempered like a tiger, people hate him & God punishes him)

३१३८ मेच्चुली मेच्चुली पजडेपणाक मेच्चुली.

मेजावयलें केळें काडुन फिल्याद जोडता. (Claiming credit for work done by some others and trying to become famous)

३१३९ मेटाक एक नैवेधु, गुत्ताक (भुत्ताक) एक नारलु.

मेट्टु उड्डुंक जायनाशिलो आंगण उड्डदवे?

मेणा आंगार्चे चेरडुं धगा लार्गी वेतां म्हण भिसडायता.

मेणानें चिकोलु काडचो.

मेलेल्यो मोडयाक खोचें. (To beat a dead body is of no use. Trying to do something productive from a useless thing like a dead body)

३१४० मेलेल्या म्हशीक दूद चड.

मेल्ले अंबे-दूद पियेल्लो. मेल्लेले आम्म्मा-दूद पियेल्लो.

(One who has drunk the milk of a dead mother. It means he is a fool)

३१४१ मेल्ले म्हशीक बारा शेर (कुट्टीं) दूद. (Lavished praise to the dead)

३१४२ मेल्ले म्हशीक दूद चड. (The owner demands a high price for a buffelo accidentally killed stating that the buffalo was giving plenty of milk)

३१४३ मेळेलें मस्तुन धरी, मेळता म्हळेलें वारयारी.

मैडेंची पिसाय. (As foolish as the people of Moira, a village

in Bardez (Goa). These people try to collect the sun's rays in a barrel so that they may have sunshine during rainy weather)

३१४४ मेगेले बायलेक कापड दिंवच्याक कोणेय सांगका वे?

मेगेले भाग्याक कित्तें उणें? दिवसाक एक ओल्याणे.

मेळ्यान मोग वाडयता.

मेळ्यारी आंबो, गेल्यारी फातरू.

मेल्लेल्या मोडयाक दूकी ना, सुक्कील्या रूकाक चिगुरू ना.

मेणांत शिर्कललो मूसु.

मेल्या उपरांत दूक, पाड जातच बूद.

मेल्यारी पिलिकुमेर सोडिशिना म्हणताली म्हातारी.

मेल्ल्या मोडयाक पुणी पळेंव्येत, जेवल्लें पळेंवक नजो.

मेलेलें मोडें आगीक (fire) भिंयेता. (The dead body is not afraid of the funeral pyre. One who has lost his prestige is not worried whether he is praised or condemned)

३१४५ मेलेल्या मोडयाक श्रंगार. (Decorating a dead body with clothes or ornaments does not serve any purpose)

३१४६ म्हजें म्हाका, तुजें तुका, कोणाचें करकर नाका. (If each one gets what is due to him, there is no room for quarrel)

३१४७ म्हजो पाय (Father) मेलो, ताचो जोर (Fever) गेलो. (My father died and his fever stopped. when my father died, whatever he has to pay back was condoned and the quarrel ended)

३१४८ मनीस पातकी जाव्येत, पूण घातकी जांवक नजो. (A man may be a sinner, but not a traitor)

३१४९ म्हजे दूडू म्हजे पोले फडतात. (For the good that I have done, I am getting something bad in return)

३१५० म्हजींच हत्यारां म्हजेर आड (विरोध).

म्हजें भांगार दुसर्यांगेर वोरंवक वरजायगी? (If my gold is taken to the neighbour's house to assay evil thoughts arise in their minds)

३१५१ मुळाक लागलो रोंतो, रूक फळां दितलो कसो? (If the root is attacked by worms, how can the tree yield fruit?)

३१५२ मोगा चेर्डाक पांय वांकडे.

मोगा धुवेक चांदण्यातु उवो काडच्यो.

मोगाची मावशी चांदन्याक उवो मारता. (The aunt is so very loving that she goes to the extent of picking out lice from the head of her neice even in moonlight)

३१५३ मोगा पूताक हांतुळारी भूत.

मोगु केलो चडु, चलो जालो पाडु.

मोट व्हांवचाक गेल्लोलो आयलो, पोट भरूक गेल्लोलो आयलो ना.

मोटे व्हावनु पूणी पोट भरयेत.

मोडियेवेलें खोडियेर पळूंळें.

मोडलेल्या खुरसाक मान ना. (A broken cross is not honoured. A fallen man is not respected and is ignored)

३१५४ मोग आनी उजो बाळवना. (Love and fire do not last unless they are fanned)

३१५५ मोग आसा थंय शिण आसा.

मोग आसल्यार हुन उंडे घाटार पावतात. (If one has love for others, one does any job for them, even sending hot loaves to most distant places. Where there is a will there is a way)

३१५६ मोगान मोग वाडता.

मोगान धरलो गळो आनी पादान फोडलो दोळो. (He hugged the neck with love and brock the eye with the flatus, whatever is done by one hand is undone by the other)

३१५७ मोग केलो चड, चलो जालो पाड.

मोन्याक नाक खोरपिल्ले बरी.

मोन्याक भास हाडवंची उतरां.

मोरू नांचता म्हण कुंकड नाचता.

मोन्याचे सपण कोणाक कळना.

मोव आसा थंय खोंडचें. (Digging where it is soft. Taking undue advantage of ones weakness or goodness)

(वेगवेगळ्या मुळां थावन)

# कोंकणी मयूला फातर

★ नवें वरस करनाटका कोंकणी भाशे मंडळेच्या एक्वीसाव्या वर्साच्या उत्सवान सुरु जालें. केंद्र मंत्री श्रीमती माग्रेट आळवान ह्या उत्सवांत मुकेल सयूरिणिचो जागो घेत्लो. ह्याच वर्साचे आकेरीक, दसेंबर 17 थाव्न 22 पर्यांत मंग्ळूरांत चलव्च्याक येव्जिल्लें पयलें विश्व कोंकणी सम्मेळन येव्कार समितिची अध्यक्षिणयी जाव्ननांस्वा श्रीमती आवळान "देश भास आमकां महत्वाची सेवा दिल्ल्या महान कोंकणाल्यां जीवन सादनांची साक्ष चित्रां तयार करचें योजन जाय्जे. विश्व कोंकणी सम्मेळना फुडें आसल्या चित्रांच्या निरवाणान फावो तो परिणाम जातोलो" अशें संदेश दिलो. उत्सवांत मंग्ळूर्चो शासक एन. योगीश भट, उपमेयर श्रीमती हिल्डा आळवा, करनाटका राज्योत्सव प्रशस्ती विजेत बी. गणपति पै, केंद्र साहित्य अकादेमी प्रशस्ती विजेत. के. गोकुलदास प्रबु, करनाटका साहित्य अकादेमी प्रशस्ती विजेत संतोश कुमार गुल्वाडी आनी श्रीमती ग्लेडीस रेगो, डो। टि.एम.ए. पै प्रतिश्टान प्रशस्ती विजेत एड्विन जे.एफ. डिसोजा हांकां शाल पांग्रून, फळां फुलां दींवन श्रीमती माग्रेट आळवान सनमान केलो. समारंबाचें अध्यक्ष स्थान विश्व कोंकणी सम्मेळन येवकार समितिचो गौरव अध्यक्ष के.के. पैन वहिसिल्लें. "साधाकांक सनमान करचें समाजिचें कर्तव्य, हें कार्यें आयित्र आनी अभिनंदनाक फावो" अशें ताणे आपल्या अध्यक्ष भाशणांत सांग्लें.

★ कोंकणी आनी कन्नडांतलो मालगडो साहिती कारवारांत चलल्लया प्रथम अ.भा. कोंकणी परिशद सम्मेळनाचो स्थापनार्थ मादव मंजुनात शानुभोगा सवें काम केल्लोलो के.एन. राव दांडेली हाणें दांडेलीच्या बंगूर नगराच्या रंगनाथ सभांगणांत्ल्या हळियाळ तालुकांत दुसऱ्या कन्नडा साहित सम्मेळनाचें अध्यक्ष स्थान सोबय्लें.

★ 'कोंकणी लोकवेदाचो तुलनात्मक अब्यास' ह्या विशयाचेर एक परिसंवाद साहित्य अकोदेमी आनी कोंकणी भाशे मंडळ (रि) करनाटका हांच्या संयुक्त आश्रयाचेर डो। टि.एम.ए. पै प्रतिश्टान कोंकणी अबिवृद्दि समित आनी कोकंणी कला सामाज कुंदापूर हांच्या सहयोगान फेब्रेवरी. 1 आनी 2 तारिकेर कुंदापुरांत चल्लो.

★ 'पंचकदायी' कोंकणी मासिक पत्रिकेच्या रजतोत्सवाच्या संबंदी (19-4-1992) खर्च कळवोन उरलेले रुपय 26,133 (अडेज वर्सांची वाड कुड्सून) मंग्ळूर जि.एस.बी. महिळा वृंदाक काणिक जाव्न दिल्ले आस्तां, तें प्रकट करूंक आदिकृत समारंब जनेर 23 तारिकेर वेवस्तित केल्लो. 'पंचकादायी' पत्रिकेचो स्थापक संपादक बि.वी. बाळिगान समारंभाचें अध्यक्ष स्थान वहिसिलें.

★ मंग्ळूरचो ख्यात संगीत तज्ञ 'इजय फिरगजेचो कोयर मेस्त्री आनी सां लुवीस कोलेजिच्या कोंकणी अध्ययन केंद्राचो कार्यकारी निरदेशाक बेनेट पिंटोक विश्व संस्थ्यान अंतर राश्ट्रीय कुटमा वरसा संबंदी ताणे रचल्ल्या. 'दि फरफेकट ट्रांयांगल' (The Prefect Triangle) म्हळळ्या गीताक प्रशस्ती दिली.

★ अखील भारतीय कोंकणी परिशदाचें विसावें आधिवेशन फेब्रवरी 11 आनी 12 तारिकेर भारिच दबाज्यान शिरसींत चल्लें. डो। काशिनाथ महाले हाच्या अध्यक्ष पणाचेर चल्ल्या ह्या परिशदेची उग्तावण करनाटका राज्य मंत्री आर.वी. देशपांडेन केली. वैकुंठराव सोंदे स्वागत समितीचो अध्यक्ष आनी एस.एम. कृशणराव जेराल कार्यदर्शी जाव्न आसल्ले.

★ अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या विसाव्या अधिवेशनाचो उद्गाटक मान्य आर.वी. देशपांडेन कोंकणी भाशेच्या समग्र अभिवृद्देक एक प्रतिश्टान स्थापन करिजे म्हळळें सुचन दिल्लें आनी ह्या बाब्तीन आपली देणगी जाव्न रुपय 10,001/- घोशण केलो. समारोप कार्याक मुकेल सयरो जाव्न आयिल्ल्या गोंयचा मान्य मुख्य मंत्री लुयिजियानो फेलेरोन 10,000 रुपय आपली काणीक भासायूल्ल्या.

★ डो। टि.एम.ए. प्रतिश्टान 1991 थाव्न, मकर संक्रांतिच्या दिसा (जनेर 14) पांच जण साधनशील कोंकण्यांक सनमान करता. हो एक संप्रदाय ह्या वर्सा संगीत, वास्तुशिल्प, शिक्षण, विज्ञान तशें वैद्यकीय क्षेत्रांत साधन करून आंतरराश्ट्रीय ख्यातीक पावल्ल्या पंडित दिनकर कायकिणी चाल्स कोरेया, एम.वी.किणी, जि.वी राव आनी डो। एम.पी. पै (मरणोत्तर) हांकां मणिपाल व्यालिव्यू आवरणांत चलल्या रंगाळ संमारंभात सनमान चल्लो.

★ डो. टि.एम.ए. पैं प्रतिश्टान मणिपाल आी रंगभूमि (रि) उड्पी हांच्या सहयोगान चलचो अखील भारत मट्टाचे कोंकणी नाटक स्परदो ह्या वर्साची चल्लो. धा नाटक पंग्डांनी हांतु भाग धेत्लो. अंत्रुज ललितक, फोंडा, गोंय हांच्या 'सात्या माड्डीता माड्डीता' नाटकाक प्रथम रंगमाची वळवय गोंय हांगेल्या 'घुघुम रडचा' नाटकाक दुसरें आनी कोंकणी कला केंद्र, सास्तान हांच्या 'पड्द्या पाटली सुरी' नाटकाक तिसरें बहुमान लाबलें.

★ कोंकणी भाशें मंडळ (रि) करनाटका, मंग्ळूर हाच्या आश्रयार शाळां आनी कोलेज विद्यार्थी खातीर कोंकणी भाशण स्परदो मंग्ळूरचा बेसेंट कोलेज सभाभवनांत फेब्रेर 19 तारिकेर चल्लो. विशय: विश्व कोंकणी सम्मेळन, आवश्यकता आनी उद्देश,

कोंकणी लिपि आनी साहित बद्दल प्रमाणीकरण, कोंकणी भाशेचो इतिहास आनी गिरेस्तकाय.

★ नवेंच, सचित्र कोंकणी हपताळें 'दिवो' एप्रिल 2 तारिकेर बोंबय, मुलुंड (पश्चिम) सां पियूस शाळेच्या सालांत उग्तावण जालें. हाचो संपादक आनी प्रकाशक जे.बी. मोरायस आनी लोरेन्स कुवेल्लो जाव्नासात.

★ बोंबय मालड वरलेम फिगरजेंत फेब्रेर 18 वेर सांजेच्या तीन घंट्यार विविध कोंकणी कार्यावळ फिरगजगारांनींच बाव पाव्ल रेगोच्या मुकेलपणार मांडून हाडलें. 'पय्णारी' पत्राचो सहसंपादक फेलिक्स डिसोजा ह्या कार्याचो अध्यक्ष जावनासलो.

★ कोंकणी अध्ययन केंद्र केनरा हायस्कूल, मंग्ळूर हांच्या आश्रायाखाल चलल्या कोंकणी प्राथमीक आनी द्वितीय परिक्षांनी यशस्वी जाल्ल्या 345 विद्यार्ती. विद्यार्थिनींक प्रमाण पत्र दिंव्चो उत्सव केनरा शिक्षण संस्थ्याच्या आडळते समितीचो कार्यदर्शी केपुळ दिनेश नायकाच्या आध्यक्षतेखाल चल्लो. के.के. पै मुकेल सय्रो जाव्न प्रमाण पत्र वितरण केलें.

★ 'मांड सोभाण' पंग्डाचो गुरकार एरिक ओझेरियो आपलो पंगड घेवन गल्फ राश्ट्रांक - दुबाय आनी अबुधाबी - गेल्लो आनी थंयसर यशस्वी प्रदर्शनां ताणे दिर्लीं.

★ कुंदापूर तालुकाच्या धाक्ट्या - मालघड्या लेककांचो प्रथम संघ एप्रिल 2 तारिकेर कुंदापूर इगर्जेच्या विगार बाप स्टेनी बी. लोबोन उग्तायलो.

★ 'रेय्न ट्री, ताज कोनेमारा' मद्रास, हार्णी मांडून हाडल्लया 'करावळी फूड फेस्टिवलांत' कोंकणी करावळीच्या संस्कृतीचे प्रतिनिधी जावून 'मांड सोभाण' पंग्डाचो गुरकार एरिक ओझेरियोन मार्च 10 थाव्न 19 पर्यांत रातिच्या 8 थाव्न 12 पर्यांत आप्ल्या फामाद पंग्डाक घेव्न 'बाय्ला शो' यशस्वेर प्रदर्शित केलो.

★ कोंकणी परिशद कुमटा हाणी विविध स्परदे आसा करून जिक्लेल्या प्रतिबावंतांक पुरस्कार दिले. ह्या कार्याक भटकळचो उद्यमी जयराम कोल्ले मुकेल सय्रो जाव्न आयिल्लो.

★ 'पंचकदायी' रजतोत्सव स्मारक प्रतम कोंकणी दिनाचरण एप्रिल 11 तारिकेर 'पंचकदायी' संपादक बी. दामोदर प्रभूच्या अध्यक्षतेर चल्लो. बस्ती वामन शेणय मुकेल सय्रो जाव्न उपस्तित आसल्लो. कार्यक्रमाचो वांटो जाव्न उडुपी, कार्कळ आनी मंग्ळूर वलयांत नृत्य प्रतेक जाव्न कोंकणी भक्तिगीतां स्परध्यांत जिक्लेल्यांक इनामां वितरण केलें. 'वोरला महत्व' म्हळ्ळें कोंकणी रूपक जि.एस.बी. महिळा वृंदान आभिनय करून दाकयलें.

★ कोंकणी भाशे मंडळ गोय हाणें पंडरिनाथ शेणय लोटलेकार हाणीं दान दिल्ल्या जाग्याचेर 'कोंकणी भवन' बांदपाचो बुन्यादी फातोर एप्रिल 1 तारिकेर बरय्लो. ह्या बांद्पाक 50 थाव्न 60 लाक खर्च आस्तोलो म्हळ्ळो अंदाज आसा.

★ प्रप्रथम विश्व कोंकणी सम्मेळनाच्या कार्यालयाचें उग्तावण मंग्ळूर नवरत्ना प्यालेस बंद्पांत एप्रिल 29 तारिकेर गोंयच्या कैगारिका मंत्री मान्य लुयिजियानो पेलेरोन केलो आनी सहकार भासाय्लो.

★ 'मंड सोभाण' पंग्डाचो 25 वो बाय्ला शो में 6 तारिकेर आनी 100-वें मांड सोभाण में 7 तारिकेर 'सोभाण संभ्रम' नांवान चल्लें. सुवाळ्याचो गुरकार जाव्न रोनाल्ड कुलासो, मुकेल सय्रे जाव्न माजी मुख्यमंत्री वीरप्पा मोय्ली आयिल्ले. मोय्लीन 'भक्ति सोभाण' कोवळी उग्तायली. दुसर्या दिसा बस्ती वामन शेणय गुरकार जाव्न, सिनेमा संसारांत्लो सुरेश हेब्ळीकर आनी उद्यमी एम. रघुनाथशेट मानाचे सय्रे जाव्न हाजर आसल्ले. कोंकणी कला संस्कृतिचें संशोधन केंद्र 'दायज' आनी तरबेती केंद्र 'कलारंग' ह्या योजनांची उग्तावण सुरेश हेब्ळीकरान करून कोंकण्यांक अरपिली. ह्या योजनांक रोनाल्ड कुलासोन एक लाक रुपय आनी रघुनाथ शेटान 10,008 रुपय दान दिले. बांद्पांक 45 सेंट्स जागो मंग्ळूर शक्तिनगरांत्ल्या केस्तलीनो कुटमान रोय केस्तलीनो मूकांत्र दाल केला.

★ में मयन्याच्या 1 तारिकेर सुमार शेंबरी कोंकणी लोक बोंबय जेरिमेरिच्या सां. जूद हायस्कूल सालांत जमलो. उद्देश कोंकणी शिकंव्क एक संघ उग्तो करचो. कार्याक श्रीमती बेनेडिक्टा रेबेल्लो अध्यक्षिण जाव्न, श्रीमती मेटिल्डा मोरायस आनी श्री.

★ कोंकणी भाशे मंडळ बोंबय हाणें आसा केल्ल्या कथा आनी लेकन स्पर्ध्याक 27 प्रवेस आयिल्ले. नग्दी बहुमानां आसल्ली.

**संग्रह बि.वि. बाळिगा**
मंग्ळूर

Statement of ownership and other particulars about the journal

## "AMAR KONKANI"

### FORM IV *(Rule 8)*

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | Place of Publication | ... | ... | Mangalore |
| 2. | Periodicity of its Publication | ... | ... | Half Yearly |
| 3. | Printer's Name | ... | ... | Sri Goldwyn E.J. Vaz |
| | Nationality | ... | ... | Indian |
| | Address | ... | ... | Grenville Book Mfg. Co.<br>Derebail, Mangalore - 575 006. |
| 4. | Publisher's Name | ... | ... | Rev. Valerian Prashant Madtha, S.J. |
| | Nationality | ... | ... | Indian |
| | Address | ... | ... | St Aloysius College<br>Mangalore - 575 003. |
| 5. | Editor's Name | ... | ... | Sri Edwin J.F. D'Souza |
| | Nationality | ... | ... | Indian |
| | Address | ... | ... | "FOUNTAINHEAD"<br>Highlands, Mangalore - 575 002. |
| 6. | Name and address of Individuals who own the journal and partners or sharesholders holding more than one percent of the total capital: | ... | ... | Rev. Valerian Prashant Madtha, S.J.<br>St Aloysius College,<br>Mangalore - 575 003. |

I, Valerian Prashant Madtha, S.J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

MANGALORE,
1-7-1995

*Sd/-* **Valerian Prashant Madtha, S.J.**
***(Signature of the Publisher)***

# ಕೊಂಕಣಿ ಅಧ್ಯಯನ್ ವಿಭಾಗ್

## ಸಾಂ ಲುವಿಸ್ ಮಹಾವಿದ್ಯಾಲಯ್

**ಮಂಗ್ಳುರ್ - 575 003**

ವರ್ಸಾ ಅಭಿಮಾನಾನ್ ಅರ್ಪಿತಾ

## ಕೊಂಕಣಿ ಡಿಪ್ಲೊಮಾ ಕೋರ್ಸ್

**ಕೊಂಕಣಿ ಅಧ್ಯಯನಾಂತ್ ನವೆಸಾಂವ್:**

ಪಾಟ್ಲ್ಯಾ ತೀನ್ ವರ್ಸಾಂನಿ ಸುಮಾರ್ 60 ಜಣಾಂನಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶಾ ಶಾಸ್ತ್ರಾಂತ್ ಪದವಿಕಾ (ಡಿಪ್ಲೊಮಾ) ಜೊಡ್ಲ್ಯಾ ನಂತರ್ ಆಂವ್ನಂ ಪರತ್ ಪ್ರಾರಂಭ್ ಜಾಲಾ - ಕೊಂಕಣಿ ಡಿಪ್ಲೊಮಾ ಕೋರ್ಸ್.

**ಪದವಿಕಾ - 4 ಹಂತಾನಿ:**

ಹೊ ಕೋರ್ಸ್ - 4 ಹಂತಾನಿ ಚಲ್ತಾ. ಎಕೇಕ್ ಹಂತ್ 40 ವೊರಾಂಚೆಂ ಅಧ್ಯಯನ್ ಆಟಾಪ್ತಾ. ಸರ್ವ್ಯಾಂಕ್ ಅನ್ಕೂಲ್ ಜಾಂವ್ಚೆಬರಿ, ಕ್ಲಾಸಿ ಸಾಂಜೆರ್ 6.00 ಥಾವ್ನ್ 8.00 ವೊರಾಂ ಪರ್ಯಾಂತ್, ಹಪ್ತ್ಯಾರ್ ದೋನ್ ದೀಸ್ - ಮಂಗ್ಳಾರಾ ಆನಿ ಸುಕ್ರಾರಾ ಕೊಲೆಜಿಚ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಿ ವಿಭಾಗಾಂತ್ ಚಲ್ತಾತ್.

**ಪ್ರಯೋಗಿಕ್ ಶಿಕಾಪ್:**

ಹ್ಯಾ ಕೋರ್ಸಾಚಿ ವಿಶೇಶತಾ ಜಾವ್ನ್ ಹರ್ಯೆಕಾ ಹಂತಾರ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್, ಲೋಕ್‌ವೇದ್, ಕವಿತಾ, ವ್ಯಾಕರಣ್, ಭಾಶೆ ಶಾಸ್ತಿರ್, ನಾಟಕ್ ಆನಿ ಹೆರ್ ವಿಶಯಾಂನಿ ವಿದ್ವಾಂಸಾಂಥಾವ್ನ್ ಪ್ರಯೋಗಿಕ್ ಶಿಕಾಪ್ (Practicals) ಮೆಳೊನ್ ಹರ್ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿಕ್ ವಯ್ಲ್ಯಾ ಎಕಾ ವಿಶಯಾವಯ್ರ್ ಜಾಣ್ವಾಯೆ ಸವೆಂ ಥಾವೊತ್ಸೊ ಕುಶಲತಾ (Skills) ಶಿಕೊಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾತ್. ಸಾಂಗಾತಾಚ್ ಕಂಪ್ಯೂಟರಾಚೆರ್ ನವೆ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪ್ರಯೋಗ್ ಚಲಂವ್ಕ್ ಅವ್ಕಾಸ್ ಆಸಾ.

ಶಿಕ್ಪಾ ವರ್ಸಾಚಾ ಅಕ್ರೇಕ್ ಉತ್ತೀರ್ಣ್ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿಂಕ್ ಪದವಿದಾನೋತ್ಸವಾ (Convocation) ದಿಸಾ ಪದವಿಕಾ ಲಾಬ್ತಲಿ.

**ಶಿಕ್ಷಕ್ ಆನಿ ಸಯ್ರೆ ಶಿಕ್ಷಕ್:**

ಕೊಂಕಣ ಕ್ಷೇತ್ರಾಂತ್ಲೆ ವಿಂಚ್ಣಾರ್ ಆನಿ ಫಾಂಕಿವಂತ್ ಮಾನೆಸ್ತ್ ಆನಿ ಮಾನೆಸ್ತಿಣಿ, ಶಿಕ್ಷಕ್ ಆನಿ ಸಯ್ರೆ ಶಿಕ್ಷಕ್ ಜಾವ್ನ್ ವಾವುರ್ತಾತ್. ಆತಾಂ 21 ಜಣ್ ಶಿಕ್ಷಕಾಂಚಾ ಪಟ್ಟೆರ್ ಆಸೊನ್ ಕೊಂಕಣಿ ಶಿಕ್ಪಾ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿಂಕ್ ಆಪ್ಲಿ ಸೆವಾ ಅರ್ಪುನ್ ಆಸಾತ್.

**ಪ್ರವೇಶ್:**

ಹ್ಯಾ ಡಿಪ್ಲೊಮಾ ಶಿಕ್ಷಣಾಕ್ ಪ್ರವೇಶ್ ಸೊದ್ತೆಲ್ಯಾಂನಿ, ಕೊಲೆಜಿಚಾ ದಫ್ತರಾಕ್ ಸಂಪರ್ಕ್ ಕರ್ಯೊ.

**ಚಡಿತ್ ವಿವರಾಕ್:**

ಕೊಂಕಣಿ ಅಧ್ಯಯನ್ ವಿಭಾಗ್, ಸಾಂ ಲುವಿಸ್ ಮಹಾವಿದ್ಯಾಲಯ್, ಮಂಗ್ಳುರ್-575 003 ✆ 426143

**ಬೆನೆಟ್ ಪಿಂಟೊ**
ಕಾರ್ಯಕಾರಿ ದಿರೆಕ್ತೊ

**ಮಾ। ಪ್ರಶಾಂತ್ ಮಾಡ್ತಾ ಜೆ.ಸ.**
ಪ್ರಿನ್ಸಿಪಾಲ್ ಆನಿ ದಿರೆಕ್ತೊರ್

Printed at Grenville Book Mfg. Co., Derebail, Mangalore – 6. ✆ O: 412278 R: 413070